# भारत आमचो देस





ओलिव्हींन गोमिश

OLIVINHO GOMES

S. N. Prabhu






# भारत आमचो देस

ओलिव्हींन गोमिस




कुळागर प्रकाशन

मडगांव - गोंय

卐

पयलें उजवाडावप :

१९ देझेंब्र, १९८१

卐



उजवाडावपी :

चंद्रकांत केणी,
कुळागर प्रकाशन,
पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव (गोंय) —४०३७०१

हें पुस्तक उजवाडावपांत गोंयचे कला अकादमिचो थोड्या वांट्यान अर्थिक पालव फाव जाला.

मोल : १० रुपयां

卐

छापपी :

सुधाकर नाईक,
कांचना मुद्रणालय,
सांवर्डें ( गोंय ).

卐

भायलें चित्र :

कलाकार : एस. प्रभू

ऑफसेट छापपी : काझ जे. डि. फेर्नांदिश, पंणजी ( गोंय )

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

हांकां

मायेमोगान

# चुकांवळ

| पान | ओळ | आसा | वाचचें |
|---|---|---|---|
| ३ | ६ | आयल | आयलें |
| ३ | १३ | अरबी | आरबी |
| ८ | निमाणी | सुन्रर | सुन्दर |
| १३ | १३ | चपटीं | चेपटीं |
| १७ | ११ | समराट | ( सम्राट ) |
| १९ | २ | आयल्या | आयकल्या |
| २० | १२ | आपल्या | आमच्या |
| २० | १९ | आनी तांकां | तांकां आनी |
| २८ | १३ | ती | श्रुती |
| ३३ | ८ | सामित्य | साहित्य |
| ४२ | ९ | खरीक | खरीफ |
| ४२ | ११ | वैतुंन्नांत | नोवेंब्रांत |
| ४२ | १९ | खावड | खावळ |
| ४३ | १२ | मसूरी | मसूर |
| ४८ | [illegible] | ‘आमच्यांनी’ उप्रांत ‘पैसुल्ल्यान’ घालचें | |
| ५० | १५ | ‘पोरांक’ उप्रांत ‘पेटे’ घालचें | |
| ५१ | १३ | आलतडिच्या | आलतडिच्यान |
| ५२ | ९ | डाक्स | डॉक्स |
| ६७ | ५ | कवास्णी | कवासजी |
| ६९ | २ | आर्थिक | अर्थिक |
| ६९ | १९ | ‘केल्लो’ उप्रांत ‘कायदो’ घालचें | |
| ७० | १७ | मिरोवणुको | मिरवणुको |

# भारत आमचो देस

आमीं भुरगीं ल्हान सान. कोंकणाचें सोबीत भुंयेर आमीं सगळीं जल्मलीं. हो प्रदेस आरबी समुद्राचे देगेक शेकानशेक पातळला. तो भारताचो अखंड भाग जावन आसा. जाण्टो आनी म्हान हो आमचो देस भारत.

केदे व्हड–वरीश्ट पर्वत हांगा उबे आसात. ते मळबाक तेंकतात. ते उत्तरेच्यान दक्षिणेक आनी उदेंतेच्यान अस्तमतेक पावल्यात. कितलीं लांब रूंद मळां, शेतां आयस–पयस पातळलेलीं दिस्टी पडटात. पर्वतांच्या खडपांतल्यान घसघशीत उदका झरे फुद्टात. पवित्र न्हंयों जावन ते दर्यावटेन व्हांवतात. वतना वाटेक आमचीं शेतां, मळां रसरशीत शिंपीत वतात. तांकां पांचवीं आनी पिकाळ करतात.

हांगा ल्हान–व्हड दोंगूर; तशेच पांचव्योचार गाळी आसात. दोंगर आनी गाळी झाडां–पेडांन लुसलुसतात. भांगरा शिंवरान लकलकतात. भोंवतणच्या सैमाक सुन्दर रंग–रूप दितात. हांगा रानांवनांत गच्च फुलां फळांन भल्ल्यांत. ओडलायणी मोनजात तांचेर पोसता. रान तांचे मेकळें राज्य जावन आसा. तरेतरेचीं सुकणीं झाडांच्या खांदयां ताळयांचेर उडून नाचून आसतात. म्होंवाळ ताळ्यान गोड गीतां गायतात. रूख–झाडां सुखान अेकमेकांक फुतफुत्तात. फुलांचो परमळ

सगल्याक फांकता. फळांचो घमघमाट सगळ्याक भरता.

साबार तरेचे लोक भारतांत आयले. ते हांगा अेकचारान रावले. भारतीय संवस्कृताय ताणींच निर्मिली. भारताचो अितिहास आदल्या काळापासून घडून आयला. जायत्या भायल्या वंशांनी भारताचेर घुरियो घाल्यो. बऱ्याबऱ्या वस्तिची तोड–फोड केली. त्रासांत सांपडिल्ले लोक हांगा पळून आयले. तांकां हांगा आसरो मेळ्ळो. संवसारांतले सगले मुखेल धर्म हे पवित्र धर्तरेर पावले. हांगाच बिराड करून रावले. निमाणे आमचेच जाले.

आमच्या पुर्वजांची मोख ऊंच आसली. तांची नीत आनी रीत देखदेणी. ते मन लावन वावर करताले. सगळ्या कामांत हुशार आसले. घडघडीत जैत जोडटाले. आपले कुडिची तशी आत्म्याची उदरगत करूंक वावुरताले. आपले फाटीं ताणी जायतो बरो वावर करून दवल्ला. तो संवसारांतलो बऱ्यांतलो आनी अजापांचो असो जावन आसा. ताणीं सुन्दर आनी बुदवंत पुस्तकां बरयलीं. तांचे विशय साबार. देखीक कला आनी राजकारण, सरस्पत आनी विज्ञान. आंकड्यां गणीत तांकां होल्मलें. बुधिबळाचो सतरंज खेळ ताणींच सोदून काडलो. नखेत्रांक पळोवन ते दिपकावले. तांची मांडावळ घरांनी बसयली. खडपांच्या फातरां पासून देव–देवतांचीं आंगां केलीं. अप्सरांच्यो गुबगुबीत बावल्यो केल्यो. दोंगर–पर्वतांच्या भुजांत होंवऱ्यो फोडल्यो. तांच्या सुळसुळीत वण्टींचेर सोबीत रंगीत चित्रां काडलीं. ताणीं व्हडलीं तारवां बांदलीं. तारवांर बसून भायले

दर्या तांडले. भारतीय संवस्कृतायेची वळख हेरांक पावयली. तांचे भितर अीश्ट जोडले. आमच्या पुर्वजांनीं आमकां मोठी धन गिरेस्तकाय दवल्ल्या. आमकां भुरग्यांक तांचो अभिमान दिसता.

## भारत– न्हंयों आनी पर्वत

भारत वा अिंडिया हीं नांवां खैंच्यान आयलीं ? हें आमच्यां-तलीं सगळीं जाणां जाणांत, व्हय ?

भारत, हें नांव भरतावेल्यान आयल. भरत, हे आदल्या देसाचे म्हान राजा जावन गेले. पुरू वंशाचे म्हाराजा दूश्यंत आनी शकूंतला, हांचे ते सुपुत्र. हे विशीं कांय जाणांचें वेगळें मत आसा. ते म्हणटात कि आदल्या आर्यांचो भरत नांवाचो अेक वांगड आसलो, देखून ताचेवेल्यान भारत नांव उपजलें.

अिंडिया, हें नांव अिंडस न्हंयेवेल्यान आयलें. ही न्हंय उत्तरेक टिबेटांतल्या कैलास पर्वताचेर मुरू जाता. पंजाब आनी सिंधांतल्यान घसघशांनी व्हांवता. निमाणी अरबी समुद्राक वचून मेळटा. आदल्या आर्यांनी तिका सिंधू नांवान पाचाळ्ळी. सिंधू म्हळ्यार पाणयाचो पाट. भायल्यान आयिल्ल्या फारशांनी तें हिन्दू केलें, उप्रांत आयिल्ल्या ग्रिकांनीं तें अिंडस केलें. अिंडसचो देस म्हळ्यार अिंडिया जालो.

अिंडस, ही संवसारांतली अेक व्हडांतली व्हड न्हंय. तिचें उदक अिजिप्तांतल्या नैल न्हंये परस दुपेट जावन आसा. तिका पांच फाटे आसात. तांचीं नांवां अशीं आसात: झेलम, चेनाब,

ब्यास रवि आनी सटलेज. हे न्हंये-फांटे जो प्रदेश शिंपीत वेतात ताका पंजाब, ह्या नांवान वळखतात. हालीं भारतीय विजनेरांनी थंय मोठ्या विक्रमाची कामगिरी केली. ताणी ब्यासाचें उदक सटलेजाक गांठून घेतलें.

भारतांतली दुसरी व्हड न्हंय म्हळ्यार गंगा. आमच्या देसांतले चडशे लोक हे न्हंयेक भौच पवित्र मानतात. हिमालय पर्वतार गंगोत्री खडपांतल्यांन तिचो झरो फुट्टा. वाटेक ती फुगत वेता. उत्तर प्रदेश, बिहार आनी बंगाल राज्यांची जमीन पिकाळ करता. निमाणी ती न्हंय बंगालच्या दर्यांत विलीन जाता. तिचे फांटे अशे आसात: यमुना, गोमती, गर्गा, शारदा, गंधक, छंबल, सोने आनी कोसी. ते आयण्या भशेन अिंडो-गंजेटीक मळार आस्कळ-विस्कळ पातळल्ल्यात.

ह्याच वरीश्ट मळावेल्यान आनीक अेक व्हडली न्हंय धांवता. ती म्हळ्यार ब्रम्हपुत्र. ती टिबेटांत सुरू जाता. हिमालय पर्वतावेल्यान देंवता. उप्रांत दक्षिण-अस्तमतेक वळून घेता आनी अवचित दक्षिणे वटेन धांवत सुट्टा. सकयल्या मळार पावतकूच तिका गंगेचो अेक फांटो मेळटा. ताचें नांव पदमा. तांच्या वांगडा ही न्हंय बंगालच्या दर्याक पावता.

भारतांतल्यो हेर व्हडल्यो न्हंयों दक्षिणेच्या भागांत पळोवक मेळटात. त्या भागाक डेक्कन नांवान वळखतात. तांतल्यो गोदावरी, कृष्णा, कावेरी आनी पेन्नार पर्वताळ घांटावेल्यान देंवतात. थंयच्यान त्यो उदेंतेकडेन वळटात आनी बंगालच्या



दर्याक मेळटात. महानदी आनी दामोदर न्हंयों डेक्कनच्या उत्तर दक्षिणेक फुट्टात. मागीर उदेंतेकडेन वचून बंगालच्या दर्यांत घोंततात. डेक्कनच्या सामक्या उत्तरकडेच्या तोंकार नर्मदा आनी तापटी न्हंयों फुट्टात. त्यो वाडत वेतना अस्तमतेकडेन वळटात. निमाणेकडेन आरबी समुद्राक मेळटात.

त्या भायर, शरावती, नेत्रावती, भरतपुडा, पेरियार आनी पंबा न्हंयों आसात. त्यो अस्तम्त घांटार सुरू जातात. घांटावेल्या दोंगरां रानांतल्यान कठीण वाट काडटात. निमाण्यो अस्तमतेचे धडेर व्हांवून त्यो वचून आरबी समुद्राक मेळटात.

ह्यो दक्षिणेच्यो न्हंयों पावसाचे कृपेन भरून येतात. पुण उत्तरेकडच्या न्हंयांक पावसाचें तशें हीम–बरफाचें उदक मेळटा. हें उदक हिमालय पर्वतांवेल्या हीम–बरफांतल्यान वचून येता.

हिमालय, हो संवसारातलो सगळ्यांत ऊंच पर्वत. सगळ्यांत ऊंच ताची तेंगशी म्हळ्यार ॲवरेस्ट. तिचेर चडपाक जायत्या जाणांनी धाडस केलें. शूर शेरपा तेनसींग नोरके आनी सर ॲडमंड हिलरी, हांची खबर आमी तुमी आयकल्या जातली. ते सगळ्यां पयलीं हे तेंगशेर चडले. हें जैत जोडून ताणीं संवसाराक कळीत केलें. तांचे फाटोफाट हेर पंगड तें शिखर चडून गेल्यात. तांचे भशेन आमींय दोंगर चडूंक वचें न्हय !

भारताचे उत्तर–उदेंतेक, भारत–बांगलादेश शिमेर, पाटकाय पर्वत उबे आसात. ते आमचे शीमेचे गडगंज राखणे.

उत्तर—अस्तमतेक आरावल्ली पर्वतांवळ उठून दिसता. तिचे शेजरा विंध्य पर्वत पातळ्ल्यात. सातपुडो पर्वतांवळ त्रिकोना सारकी दिसता. तिच्यो दोन कुशी नर्मदा आनी तापटी न्हंयां वांगडाच तेंकून वेतात.

सह्याद्री वा अस्तमते घांट डेक्कन तळपाचेर बसला. तो भारताच्या अस्तमते देगेक लागून मांडला. तापटी न्हंयच्या वयल्या तोंकाकडेन सुरू जाता. भारताच्या दक्षिणे तोंकाचे कन्या-कुमारीक सोंपता. ताच्या पायांकडचीं खडपां आरबी समुद्राक पावतात. समुद्राकडच्यान ओलें वारें मारता. सह्याद्री तें आडावन जिखून घेता. ताचें उदक करता. तें उदक पावस जावन अस्तमते देगेक भिजयता. शेतां—भाटां पिकयता.

भारताचे उदेंत देगे लागसार उदेंत घांट पातळ्ल्यात. उंचायेन ते अस्तम्त घांटां परस मोटवे आसात. तांचे फाटीर महानदी आनी गोदावरी न्हंयो व्हांवतात. त्यो न्हंयों निमाणकडेन बंगालच्या दर्यांत वोततात.

## पावस

हे दोंगर—पर्वत आपल्या मुळाकडच्या वाठाराक भरपूर पावस घालतात. आमच्या देसांत संवसारांतलो सगळ्यांत चड पावस पडटा. जाणकारांनी अशी लावणी केल्ली आसा.

मेघालयांतल्या दोंगरांचेर चेर्रापुंजी गांवांत हो चड असो पावस मेजला. भारतांत सगळ्यांत उणो पावस म्हणटात तो राजस्थानच्या थार रेंवटांत पडटा. चड–उण्या प्रमाणान भारतांत सगळे कडेन पावस लागता. ह्या पावसा वरवीं

आनी तरेतरेची वनस्पती मातून येता



## रूख – झा

पावसाक लागून जमीन हांसता, रसरसता. तीं पिकाळ जाता. तिचेर तण मातून येता. झाड–झोंप आनी हेर वनस्पती किल्लून येता. कांय झाडां वाडून रूख जातात. भारतांतल्या रानावनांत वरीश्ट रूख आसात, ते रूख मारून, तांचेवल्यान लांकूड काडटात. शिंसो, किंदळ, सायेल तशेंच आंबो, पणस, हे रूख बरें निबर लांकूड दितात. तें मोलादीक निबर लांकूड कदेलां-मेजां मुस्तायकी करपाक उपकारायतात. कोंड्या आनी माडा सारकेलें मोव लांकूडय भारतांत घे म्हणून मेळटा. जिनसांवार तण आनी रूंद पानांचीं झाडां–झोंपां उत्तर आनी उदेंत भारतांत जायतीं मेळटात. रानावनांत कांय झांडां–पेडां आसात जीं फुलां दितात.

लोकाक दाखोंवचे खातीर भासां–भासांची झांडां–पेडां एका जाग्यार एकठांय हाडटात. त्या जाग्याक बोटानिकल गार्डेन्स वा बाग म्हणटात. आमी असल्यो बागो पळेल्यात न्हय!

आमच्यांतल्या कांय जाणांनीं त्यो अनून पळोवंक नांत जाल्यार, ताणीं थैं भेट दिंवची. त्यो बागो कितल्यो सुन्दर आनी ओढ-लायण्यो दिसतात !

## मोनजात

आमच्या देसांतल्या रानावनांत जायतीं मोनजात जियेता. हुसक्या मेकळीं सगळ्याक भोंवता. तांचे भितर मनशांभशेन पोरांक आपलें दूद दितली मोनजात आसा. देखीक: माकड, वानर, पाखे, गोरवां.

कांय मोनजात मास खाता. तांतले तांतूंत कुयो घाल-तले कोले आनी घुरघुरपी वांसवेलां, मियावतलीं माजरां आनी भोंकतलीं सुणीं आस्पावतात. हातली चड भिरांकूळ मोनजात म्हळ्यार वाग. ताका भारताचें राष्ट्रीक जनावर म्हणून जाहीर केला. आमच्या वांगड्यांक ही खबर आसली, व्हय ? जंगलांत वागाक हेर मोनजात थान्या भियेता. मेळ्ळयार तीं मनशाच्याय फाटीक लागता. ताका मारूंक भोव थोडे शिकारी फुडें सरतात. वागाक माल्ल्यार, ताचें सोबीत चामडें मेळटा. तें चामडें खूब उपयोगी आनी मोलादीक जावन आसा.

आजियेंतलो शींव आमी सगळ्यांनीं पळोंवक ना जातलो. तो भौच सुन्दर दिसता. हे जातीचे शींव दिसान-दीस उणे

जायत चल्ल्यात. ह्या मोलादीक शिंवांक गुजराथेंतल्या गीर राखीव रानांत पोसल्यात. तांचो बरो सांबाळ करतात. थंय गेल्यार ते लोकाक पळोंवक मेळटात. आमचे फुडले भोंवडेक तांकां आमी मुद्दम पळोंवक वच्चें न्हय !

भारतांत हेर मंद–मोंवाळ मोनजात आसा. तीं तण खावन जियेता. मेरवां आनी हरणां, गोरवां आनी घोडे हांतले आसात. अपुर्बायेचीं जनावरां हीं. मनशांचो मोग रोखडें वळखतात. तुरतुरीत धांवतले सोंशे रानांत राशींनी मेळटात. रान-दुकरूय थंय हेंडत भोंवतात.

दक्षिणेच्या रानांत व्हडले हत्ती मेळटात. ही मोनजात भौच हुशार. दाट रानांतल्यान ते वाट काडटात. लांकडां लोटिंगे हाड–व्हर करतात. कसलोय समारंभ आसल्यार, तांकां नेटयतात. तांच्या उबार फाटीर बसून आमी भोंवचें, न्हय !

हत्ती सदांच तकली वयर काडून चलतात. कांय जिवाणी पोट ओडीत फुडें सरतात. तांचे भितर भयाकुल मानगें आसा. तें मुकतेर न्हंये चिखलांत न्हिदता. पळोंवक विदरूप दिसता. तांचे उलट, कासवाक पळेयात. तांचे विशीं आमकां माया आनी लक्तुबाय दिसता.

तांच्या भायर पोटयां मुसमुसतात ते सोरोप. ते सुम्बा मारके लांब, विळविळीत आसात. विखाळ आनी चाब्रतले ते

सोरोप. तांचे पसून आमी पयस रावूंक जायत. तांतले तांतूंत माळूण, दिवड, धोणस आसपावतात. नागाक 'व्हडलो' वा देव मानतात.

भारतांतलो सगळयांत व्हडलो सोरोप म्हळयार हार. ताची राजवा सारकी वीस फूट लांबाय आसता. ताचे वजन सुमार २०० रात मेरेन आसूं येता. भौच सोबीत सोरोप हो. नदर सामकी दिपकायता. तो भारतांत सगळयाक मेळटा. जंगलांच्या कांट्यां—झोंपांतूय तो केन्नाय आदळटा.

हे पोटयां—चलतले जातींत आनिकूय ल्हान जिवाणीं आसात. देखीक सांगचे म्हळयार : शिल्ल्यो आनी पाली.

## नुस्तें

आमच्या देसांत व्हंयों पोंयों, दर्या तळीं जायतीं आसात. तांतूंत भरपूर नुस्तें भल्लां. भारतांत सगले जातिचें नुस्तें मेळटा. नुस्त्याक मासळी म्हणूनय वळखतात. ताच्या आंगाक कल्लां वा खवळां आसतात. तें उदकांत जल्मता, वाडटा आनी पेंवता. चड करून शेवटो, चणाक, मुड्डशी, काळांदूर, कल्ली, विसवण, ताल्लो, पेडवो आमचे जिबेक उदक हाडटात. त्या भायर बांगडो, मोरी, वाग्यो, मुंगटां, कुल्यो, चिपटां भोव रूचीक लागतात.

जाळां आनी रांपणीं घेवून आमचे खारवी भाव दर्यांत वेतात. तांच लागीं व्हडीं वा कांय जाणाकडेन बोटीय आसतात. तांतूत बसून ते नुस्तें पागतात. आमकां नुस्तें मेळचें म्हणून ते जायते त्रास काडटात. जाळां ओडून ते मासळी धडेर हाडटात. मागीर ती तिथ्यार बसून व्यान्नीं लोकाक विकतात.

## सवणीं

भारताच्या मेकळ्या वान्यार जायतीं सुकणीं सवणीं भोंवतात. तांचो संवसार सुखी. तांकां हुस्के लागनांत. दिस—भर ताणीं खोशालभरीत गीत गायत रावचें. जाणकार सांगतात कि संवसारांत सुकण्यांच्यो ८६०० जाती आसात. तांतलो सातवो वांटो आमच्या देसांत मेळटा. हे आमचें भाग्यूच म्हणूंक जाय !

तांतल्यो कांय जाती म्हळ्यार कावळो, कवडो, कीर, म्होर, पारवो, बकें, मडवळण, साळोरी, बोचुड्डी, घोण, गीध. बतकां उदकार शांत पेंवतात तीं आमच्यातल्या सगळ्यांनीं पळेल्यां ? वान्यावेल्यान तोळ उड्यो मारीत वेता, जाल्यार मूस मेकळेपणीं झुरझुरता.

हीं सवणीं भारतांत सदांकाळीक रावतात. पुण कांय सुकणीं भायर—गांवा वचूक सोदतात. तीं थारायल्या वेळार

भायर भोंवडी मारून पर्थतात. हें तांचे सदांचें गांवघर. तीं त्या घराचो उपाट मोग करतात.

भारतीय म्होर राष्ट्रीक सुकणें म्हणून जाहीर जाला. ताचें पाखां—वस्त्र नीळें आसा. तें भौ सोबीत रंगांनी नेटयलां. ताच्या माथ्यार मुकुट कशी शेंडी आसा. आमच्यांनी ताका पळेला, व्हय ? ना जाल्यार, आमी अेक दिस झुओलोगिकल गार्डेन्स वा मोनजाती बागेंत वचून ताका पळोंवचो. थंय सैमांत आसल्या भाशेन मोनजातीक सुवात तयार केल्या. तांतूंत सगळे तरेचे मोनजातीक पोसतात. आमकां तीं पळोवपाक मेळटा.

ह्या भायर, साप ल्हान जींव आसतात. तांकां जीवकूट म्हणटात. देखीक : कीड, मूय, कांटमूय, दोमळो, हुमलो, लीख, असलीं जीवकुटां आसात.

## भारतांतलो लोक

आतां, आमच्या भारतांतलो लोक कोण, हें समजून घेवंया. हांगा साबार भासांचे लोक रावतात. ते मुदलचे खंयच्यान आयले ? हें आमच्यांतले कितलेशे जाणांत ?

भारतांतले लोक स मुखेल वंशांतल्यान आयले. ते वंश म्हळ्यार हे : (१) नेग्रिटो वा खांप्री रगताचे (२) ऑस्ट्रीक वा

प्रोटो–औस्ट्रलोयड (३) द्रवीड वां मेडिटेर्रन्यान (४) अस्तमतेचे रूंद–तकलेकार (५) मोंगलोयड (६) उत्तर आर्य.

हे सगळे लोक वेळा वेळान हांगा पावले. तांकां हो देस खूब मानौवलो. देखून ताणीं हांगाच सदांकळीक बिराड केलें. मेळून मिसळून सगळे भारतीय जाले.

नेग्रिटोंचें आंगपांग काळसार तें काळेंकिट. ते मुदलचे आफ्रिकेंतले. हे जातिचे लोक हांगा भोव थोडे उल्यात. दक्षिण भारतांतल्या दोंगरांचेर रावतात. अिरूला आनी कोडार, पनियन आनी कुरूम्बा नांवांन अश्यो कांय जमाती आसात. हांतल्यो हेर जमाती अंदमान जुव्यांवळीर रावतात.

भारताच्या चडशा लोकांची पुर्वजां–बुन्याद म्हळयार औस्ट्रीक जमात. ते उंचायेन मदयान. तांचो रंग काळसार. तांच्यो तकल्यो लांबसुल्यो आनी चंपटीं नाखां. भारतीय प्रकाराचें जिवीत तांचेकडल्यान सुरू जाता. ते शेतां रोयताले आनी भात पिकयताले. शाक भाजी पालो पोरसांत लायताले. उंशी पसून ताणीं साकर केली. तांची मूळ भास अजून जिवी आसा. ती कोल आनी मुण्डा जमाती उलयतात. मुदलच्या निवळ रूपांत ह्यो जमाती आतां उदेंत आनी मदल्या भारतांत रावतात.

तांच्या उप्रांत द्रवीड लोक भारतांत आयले. ते खंय मुदलचे आजिया मायनरांतले. अशें म्हणटात कि ताणीं अिण्डस

वेली संवस्कृताय उबाल्ली. हिची मोडावळ मोहनजेदारो आनी हरप्पांत मेळ्ळया. हीं शारां ते संवस्कृतायेची खुणा मानतात. द्रवीड वंशाचे लोक भारतांत सगळेकडेन शिंपडल्यात.

द्रवीड लोकूच तीन भासांचे आसात. कांय जाण मदल्या उंचायेचे, काळे आनी सुमाराचे आंगलोटिचे. ते चड करून कर्नाटकांत, आंध्र प्रदेशांत, तमीळनाडूंत आनी केरळांत पळोंवक मेळटात.

तांतली खरी मेडिटेरेन्यन जात तांच्याकूय ऊंच आनी रंगान गोरी. ती पंजाबांत आनी गंगेचे वयले गाळींत मेळटा.

उदेंती मेडिटेरेन्यन पोट–जात सगळेकडेन शिंपडलेली मेळटा. त्या लोकांचो रंग गोरो आनी लांबशें नाख. तांकां वळखूंक ह्यो खुणो पुरो.

चवथो वंश जो भारतांत पावलो तो अस्तम्त रूंद तकलेकार. ते भारतांतल्या चडशा सुवातांर मेळटात. तांतली अेक जात कूर्ग, बंगाल, उडिसा, कर्नाटक आनी तमीळनाडूंत पळोंवक मेळटा. दुसरी गुजराथेंत आनी महाराष्ट्राचे अस्तम्त दर्यादेगेक दिसता. हांतली आर्मेनोयड पोट–जात म्हळ्यार पारसी.

भारताचे उत्तर–उदेंतीक मोंगोलोयड जातीचे लोक पळोवंक मेळटात. चड करून आसाम, नागालेंड, मेघालय,

मिजोरम, अरूणाचल प्रदेश आनी कांय जाण बंगालांतूय मेळटात. ते हळडुवसार रंगाचे, न्हिदल्या दोळ्यांचे आनी मदले उंचायेचे.

उत्तरकडचे आर्य भारतांत निंमाणे आयले. ते अिंडो अिरानयान जातीचे म्हणटात. अस्तम्त आनी उत्तर पंजाबांत ताणीं विराड केलें. थंयच्यान ते भारतांत सगळेकडेन पातळले. हांगच्या लोकांक भेटले आनी तांच्यांत अेकजीव जाले.

अशो तरेन, साबार वंश, जाती आनी जमाती हांगा अेकजीव जाल्यो. तांच्या मेळगरांतल्यान भारत देसाचो अेकवट घडोवन आयलो. भारतीय संवस्कृताय ताणींच उबाल्ली. ती उपरांत नावां रूपाक आयली. हे संवस्कृतायेक लांबदीक अितिहास आसा. हाची आमकां खबर आसा, व्हय ? ह्या व्हड गिरैस्तकायेचे आमी धनी—वारस.

## भारताचो अितिहास

आमच्या भारताचो अितिहास भौच पुर्विल्लो. तांतल्यो मुखेल अशो घडणुको आमच्या उगडासांत आसतल्यो न्हय ? तर आमच्या भितल्यांक हांतली कितली याद उल्या ती पळोंवया.

आमच्या अितिहासाचीं पाळां—मुळां अिण्डस त्रेलीं संवस्कृतायेंत रोंवल्यांत. तो काळ क्रिस्ता—आदल्या दोन—तीन

हजार वर्सां तेन्नाचो. ते संवस्क्रुतायेच्या फुलल्या काळार, दोन मुखेल शारां भौच तरतरतालीं. तांचीं नावां मोहनजेदारो आनी हरप्पा. तांची सुवात आनी तांतली मोडावळ खणून काडल्या उप्रांत, मेळल्या ताचे वेल्यान दिसता कि आमचो त्यावेळचो लोक बरोच सुधारिल्लो.

ताच्या उप्रांत भारतांत वेदीक यूग उदेलें. तेन्ना आर्य लोक ह्या देसांत पाविल्ले. ताणीं चार वेद बरयले. ते म्हळ्यार ऋगवेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद. देखून ह्या युगाक वेदीक अशें नांव पडलें, हें आमच्या लक्षांत येतलें. उप्रांत रामायण आनी महाभारत म्हाकाव्यां रचलीं. तेन्ना आमच्या पुर्वजांनी गणीतशास्त्र घडयलें म्हणून जाणात ? अर्थशास्त्र वा दुडवांचो कारभार कसो चलता तेंय हांगाच तेन्नाच्या काळार दाखोवन दिलें. ह्या सगळ्या आधाराचेर भारतीय संवस्क्रुतायेचें खाशेलें रूप घडून आयलें.

क्रिस्ता आदल्या सव्या शेंकड्यांत भारतांत दोग देव-मनीस जल्मले. ते म्हळयार भगवान बुद्ध आनी महावीर. ते दोगूय क्षत्रीय राजा घराण्यांत जल्मले. पुण दोगांयनीं संवसार सोडलो. खर तपस्चर्या केली. शेकीं तांकां निर्वाण मेळ्ळें. आपली शिकोवण ताणीं सगल्यांक पातळायली. भगवान बुद्धांचो धर्म भारतांत आनी भायरूय पावलो. तो शेजारच्या देसांनी शिंपडलो. जपान मेरेन पातळलो. भगवान महावीरांचो जैन धर्म तर भारतांतूच उल्लो.

भगवान बुद्ध जिवे आस्तना, राजा डरियुसांनी भारताचेर धुरी घाली. ते फारशांचे राजा. ताणी अस्तम्त भारत हातासले. उप्रांत म्हान ग्रीक अलेक्झांडरांनी भारताचेर आक्रमण केलें. तेन्ना पोरस नांवाचे हांगा राजा आसले. झुजांत तांकां हार खांवची पडली. तरीय सगळें सोडून अलेक्झांडर आपल्या गांवघराचे वाटेक पर्थले. ते गेल्ल्यान, अिण्डस वाठार चंद्रगुप्त मौर्यांच्या हातांत पडलो.

चंद्रगुप्तांनी ल्हवू ल्हवू मौर्य साम्राज्य उबाल्लें आनी वाडयलें. तें भारताच्या उत्तरे भागांत आयस–पयस पातळलें. मागीर चंद्रगुप्तांचो नातू, अशोक, राजगादयेर चडलो.

पातशाय ( सम्राट ) अशोक आमच्या अितिहासांतलें सगल्यांत व्हड आनी मनशाळे राजा जावन गेले. भारताच्या चडशा आवांटांत तांचे साम्राज्य पावलें. ते झुंजांत जैतवंत जाले. पुण त्याच झुजांत लोकांक खूब दुःख जाल्लें. ते ताणी पळेलें. तेन्ना ते भौच ग्वंतीभरीत जाले. हाका लागून तांचें मन अहिंसेकडेन वळलें. अहिंसेचो प्रचार तेन्ना बुद्ध धर्म करतालो. देखून त्या धर्मांत ते भितर सल्ले. सगळे मनीस अेकामेकाचे भावभाव म्हणपाची तांची शिकवण आसली. तांच्यो सांगण्यो जाणवायेन भल्यात. त्यो फातरां खडपांचेर कांतोवन दवल्ल्यात. तशेच मुळ कायदे फातरींचेर कोत्रावन दवरिल्ले मेळटात. तीं कोत्रांवपां अजून दिस्टी पडटात.

क्रिस्ता उप्रांतच्या चाळिसव्या वर्सा शक वा सित्तयनांनी भारतांत येवन बिराड केलें. ताणीं अिण्डस गाळींत आनी अस्तम्त भारतांत राज्य थापलें. नवो भारतीय पंचांग वा कॅलेन्डर सुरू केलो. क्रिस्ता उप्रांतच्या ७८ वर्सा पसून तो सुरू जाता. शक राजघराण्याचे भौ गाजले म्हणटात ते राजा कनिश्क. तांचो अजून गोड उगडास करतात.

मागीर गुप्ता राजघराण्याचो काळ सुरू जालो. ह्या नव्या, पयल्या चंद्रगुप्तांनी तें राजघराणें थापलें. हें ३२०—व्या वर्सांत घडलें. तांच्या मर्णा उप्रांत समूद्रगुप्त राज्यार आयले. उत्तर भारत आनी डेक्कनचो चडसो वाठार ताणी आपलो केलो. ते भायर पडल्या उप्रांत, चंद्रगुप्त विक्रमादित्य राज—सद्रेर चडले. तांचो राज्य—काळ लांबदीक जालो. ३८० ते ४२३ वर्सां मदलो तांचो राजवटे—काळ. ह्या काळाक भांगरा यूग म्हणून उल्लेखलां. भारतांत तेन्ना म्हान सार्थकाचे वावर तयार जाले. सरस्पत ( साहित्य ), विज्ञान आनी सगळ्या क्षेत्रांनीं खतखत्याचो भारार्दीक ओतो आयलो. म्हान कवी आनी बरोवपी भरभराटीर पावले.

६०५ वर्सा ते व्हड हर्शवर्धन राजा जाले. लोकांच्या बऱ्या खातीर ते जायते वावुल्ले. माये—मोगाळ आनी न्यायी राजा म्हणपाचे तांचें नांव भारतीय अितिहासांत अमर जालां.

ह्या काळा उप्रांत डेक्कनांत राष्ट्रकुट आनी चालूक्य राज्य

करपाक पावले. मोटे शूर आनी कर्तुत्वी पातशाय जाले. आमच्या सगळ्या वांगड्यांनी राष्ट्रकूटांची खबर आयकल्या, न्हय ? ते खैं मुदलचे गोंयचे. साष्टींतले लोटलेचे चाड्डे ( क्षत्रिय ). आमचे अितिहास-सोदपी आनी म्हान कोंकणी बरोवपी शेणै गोंयबाब सणसणीत रूजवतिच्या आदारार तशें सांगतात. धा-अेक वर्सां सगळो भारत देस राष्ट्रकूटांच्या धनीपणा खाल आसलो.

१०२६ वर्सा, जाणांत मू, मुसलमान महम्मद गज्नीन भारतांत येवून गिरेस्त सोमनाथ शार लुटलें ! कितली गिरेस्तकाय चोरून व्हेली खंय ताणे ! हें नियाळून आमच्या दोळ्यां मुखार काजुले येतात न्हय !

११९१ वर्सा पृथविराज चौहान दिल्लीचे राजगाद्येर आयले. ते म्हान राजपुत घराण्यांतले. ताणी आपले फौजी सैत भायल्यान आयिल्ल्या मुसलमानांक नेटान फुडो केलो. तरैन नांवाच्या मळार पयलें झूज जालें. तेन्ना ताणे शूरपणान महमद घोरींक विभाडलें. पुण दुसऱ्या तरैणच्या झुजांत ते दुस्मानाक बळी पडले. अशें आसून, दिल्लीची राजवट कुतुबुदीन अेबेकच्या हातांत पडली. तांच्या घराण्याक 'चाकरांचें' म्हणून पाचाल्लां.

मोंगलांनी भारताचेर दोन फावटीं घुरयो घाल्यो. अेकदां चेंगीस खान वाटेक सगळें विभाडीत भारतांत भितर सल्लो. दुसरे फावट तिमुरलेन येवन गेलो, ताणेंय सगळी फोड-मोड धुसपट केली. ताचे उप्रांत खिलजी आनी तुघलक घराण्यांनी

दिल्लींत राज्य केलें. तांचे फाटीं लोदी राज–घराणें त्या राज्या–जाग्यार पावलें.

अितले म्हणसर, डेक्कनांत बाहमनी सुलतानकी सत्तेर वयर सल्ली. कांय काळांत ती वैभवाचे तेंगशेर चडली. उप्रांत कांय भितल्ल्या झगड्यां कारणांक लागून ती सकल आपटली. तिचे पांच कुडके जाले. तांतले मुखेल म्हळ्यार विजापुरांतली आदिलशाही आनी अहमदनगरांतली निजामशाही. ह्यो स्वतंत्र राज्यांच्या रूपान बऱ्योच गाजल्यो.

ह्या चौदाव्या शेंकड्याच्या सोंपत्यार दोग नामनेचे भोंवडेकार भारतांत आयले. तांची नांवां म्हळ्यार मार्को पोलो आनी अीब्न बतूता. हांतलो पयलो अितालियाक सावन आयिल्लो. दुसरो अरबस्तानांतल्यान आयिल्लो. ते भारतभर भोंवले. आमच्या भारताचीं ताणीं सोबीत वर्णनां केल्यांत. ह्या देसाची तोखणाय गायल्या. हें आयकून आमकां खोस मोगल्या बगर रावचीना, न्हय !

१४९८ वर्सा अेवरोपांतले पुर्तुगेज तारवटी भारताक पावले. तांचो फुडारी वाश्क द गाम आसलो. अेवरोपाच्यान भारताक येवपाची दर्या–वाट ताणी सोदून काडली. तांचीं तारवां लांबदीक दर्या प्रवास केल्या उप्रांत भारतांतल्या कालिकट बंदराक लागलीं. तांकां आनी तांच्या मनशांक तर्डीक हुनहुनीत येवकार मेळ्ळो. तांकां थंयच्या झामोरीं राजांनी दबाज्यान दरबारांत घेतले. तांच्या दरबाराचो व्हडलो थाट आनी

वज्रांमोतयांची गिरेस्तकाय पळोवन ते दिपकावन गेले आनी भौंच आदरान अजापले.

तेन्ना आदिलशाहींत आशिल्लें गोंय वैभवाचे तेंगशेर पाविल्लें. पुर्तुगेजांचो लोभी दोळो त्या शाराचेर गेलो. पुर्तुगेज फुडारी आफोंस द आल्बुकींन १५१० वर्सा आदिलशाह राजकर्त्यांक धांवडावन तांचे कडल्यान गोंय शार जिखून घेतलें. गोंयच्यान आपलें साम्राज्य, धर्म आनी वळख सगळ्या आजियाक पातळायली. पुर्तुगेज भारत–भोंवतणच्या दर्याचे सामके धनी जावक पावले.

१५२६–अंत पानिपत झुझामळार बाबरान लोदींक हुमटावन उडयले. बाबरांनी दिल्लीची राजगादी आपली केली. ताणी मोगल राजघराण्याची बुनयाद बसयली. बाबर भायर पडले तेन्ना तांचे पूत हुमायून राज्यार आयले.

पुण हुमायुनाक पयलीं हार खावची पडली म्हणून जाणांत ? व्हय तर ! आनी कोणाकडल्यान, तेंय बी आमच्यांतलीं सगळीं जाणांत ? १५३९–अंत फारशी देसातल्या शेर शहानी तांका खर मार घालो. दिल्लींतले तांकां धांवडांयले. तेन्ना शेर शहा दिल्लीचे पातशाय जाले. पुण हुमायून वोगी बसले नांत. ताणी तरेतरेच्यो माण्ण्यो येवजून काडल्यो. शेर शहाकडल्यान राज्य पर्थें घेवपाक भारीं वावुल्ले. शेर शहा भायर पडल्या उप्रांत तांचे पूत अिस्लाम शेर शहा राजगादयेर आयिल्ले. तेन्ना हुमायूनान

तांचेर अवचित धुरी घाली. आनी तांचेर जैत जोडलें. अशी हुमायूनान राजगादी पर्थी आपणाक घेतली.

हुमायूनाच्या मर्णा उप्रांत, तांचे पूत अकबर राजा जाले. म्हान पातशाय म्हणपाची ताणी कीर्त जोडली. हिन्दुंचेर घाल्लो जिजया कर ताणी काडून उडयलो. फतेहपूर सिक्री शार बांदलें. हल्दीघाटी झुजांत मेवाडच्या राणा प्रतापांक मार घालो. १५८२ वर्सा ताणी दिन-अिलाही वा दैवी भावार्थ पर्गट केलो. हिन्दूंक आनी मुसलमानांक अेकठांय हाडपाचो हो अेक म्हत्वाचो प्रयत्न आसलो.

ताचे पयलीं १५६५-आंत डेक्कनच्या मुसलमान सुलतानांनी अेकटांय येवन हिन्दू विजयनगर साम्राज्याचेर खडेगांट धुरी घाली. हें तलिकोट झुजांत घडलें. विजयनगर साम्राज्य ह्या मारेकार बळग्या खाला कोंसळलें. आतां हंपी गांव म्हणून त्या शाराची मोडावळ उल्ल्या.

अकबर पातशाय १६०५-आंत भायर पडले. तेन्ना तांचे पूत जहांगीर भारतीय राजगादयेर चडले. त्या वेळार वेपार करचे खातीर अिंग्लेज आनी डच अीस्ट अिंडिया कंपनी घडून आयिल्ल्यो. ताणीं भारता लागी वेपार-धंदो सुरू केलो.

जहांगीरांच्या मर्णा उप्रांत शहा जहां मोगल राजगादयेर आयले. चार वर्सां उप्रांत तांची घरकान्न भायर पडली. ती

सोबीत मुमताज महल. तिच्या गोड उगडासाक म्हणून, शहाजहांनी आग्रांत ताज महल बांदलें. ताज महल संवसारांतलें अेक ‘ अजाप ’ अशें मानतात.

१६५८ वर्सा शहजहां पातशाय भायर पडले. तेन्ना तांचे पूत औरंगजेब पातशाय जाले. ताणी बरोच लांब काळ राज्य केलें. मराठ्यांक मार घालो. १७०७—आंत ते अंतल्ले.

जेन्ना शहाजहां १६२७—आंत भायर पडले, तेन्ना शिवाजी भोंसले जल्मले. १६६४ वर्सांत छत्रपती शिवाजींनी राजमुकुट घेतलो. ताणी मराठ्यांक घणघणीत जैताक पावयले.

ते भायर पडल्या उप्रांत, तांचे पूत संभाजी मराठ्यांचे मुखेल जाले. पुण खरी मराठ्यांची सत्ता पेशव्यांच्या हातांत गेली. बाजीराव पेशव्यांच्या मुखेलपणाखाल मराठे व्हडविकेक पावले. ते बंगालांत लेगीत भितर सल्ले.

मराठे आनी अफगाणी फौजी पानिपतच्या निमाण्या झुजांत अेकामेकाक भेटल्यो. अफगाणी फुडारी अहमदशहा आसले. ताणी मराठ्यांचो खर पराभव केलो. हाका लागून मराठा पातशाही आळाब्रंदाक लागली.

तरीय मराठे अिंग्लेजांकडेन झुजले. सलबाय करार करून तांचेलागचें पयलें झूज सोंपलें. निमाणेकडेन, अिंग्लेज सर आर्थर व्हेलेस्लींनी मराठी सत्तेचो अंत केलो.



अितले म्हणसर अिंग्लेज फौजी सगळेकडेन जिखताल्यो. ताणीं बंगालच्या मीर कासिमांक राज्यावेलो भायर उडयलो. क्लायव नांवाचे तांचे मुखेल आसले. ते खांपे झुजारी. कर्नाटकांतले कांय भाग तांच्या हातांत गेले. म्हैसुरच्या हैडर अलींक ताणी हारयले. त्या आदीं ताणी म्हैसुरकडेन सवस्तकायेंचो करार केल्लो. हैडर अली भायर पडून, तांचे पूत टिपु सुलतान म्हैसुरचे राज–गादयेर आयिल्ले. तांचे लागींय अिंग्लेज झुजले. पुण निमाणकडेन सरिंगापटम झुज–बंदी करार जावन झुज सोंपलें. ताचे आदीं म्हैसूरकारां–कडल्यान अिंग्लेजांक बरोच मार पडलेलो.

१८३१–आंत रणजीत सिंगांच्या मुखेलपणा खाल उत्तरेच्या पंजाबांत शीख जमात वयर सल्ली. ताणीं अिंग्लेजांक प्रतिकार केलो. तांकांय बी अिंग्लेजां–कडल्यान दोन झुजांनी हार खांवची पडली. जेन्ना लॉर्ड डेलहौझी भारताचे गवर्नेर जनरल जाले, तेन्ना शीखांचें पंजाब ताणी ब्रिटीश (अिंग्लेज) राज्याक जबरदस्तीन जोडून घेतलें.

ताचे आदीं १८२८–आंत लॉर्ड व्हिल्यम बेंटींक भारताचे मुखेल अिंग्लेज राज्यपाल जाले. भारतीय समाजांत ताणी बरींच सुधारणां घडोवन हाडलीं. तांतलें अेक म्हत्वाचे म्हळ्यार ‘ सती ’ मना केली. सती म्हणचें कितें, हें आमच्यांतलीं कितलीं जाणां जाणांत, व्हय ? भायर पडिल्ल्या आपल्या घोवाच्या जळच्या प्रेता सांगातान विदवा आपणाक लासून मरताली. तिका

सती म्हणटाले. दुसरें राज्यपालांचें पावल म्हळ्यार डाकु—लुटारे ना—नपश्यात—उणे करपाचें. ते डाकु सगळ्या उत्तरे भागांत म्हालम्हत्तो विभाड करताले. बेंटींकांनी तांचो मद जायतो जिरयलो.

१८५७—५८ वर्सा पयलें भारतीय स्वतंत्रतायेचें झूज पेटलें. ताका अिंग्लेजांनी शिपायांचें बंडु म्हणून कुस्कुटा भशेन लेखलां. झांशीची राणी लक्ष्मिबाय, लकनवची राणी, हजरतमहल, दिल्लींचे पातशाय बहादूर शहा झफर आनी मध्य प्रदेशाचे तात्या टोपे, हांणीं ह्या झुजांत मुखेल वांटो घेतलो. पुण सगळे भारतीय अेकचारन, अेकजुटीन फुडें सल्ले नांत. देखून ह्या झुजांत आमकां येस आयलें ना. अिंग्लेजांनी बंडु मस्तिलें.

तें झूज सोंपल्या उप्रांत भारतीय सरकार अिंग्लेज राणी व्हिक्टोरियांच्या हातांत पडलो. तेन्ना भारतांत अेक वेवस्तीत केंद्रीत सरकार थापलें. ताचे कारभारी हात सगळ्या देसाक पावताले. न्याय मंदिरां बसयलीं. आग—गाड्यांचे रूळ घाले. नवी कारभारी मांडावळ जाग्यार पडूंक लागली.

१८८५ वर्सा भारतीय राष्ट्रीय कांग्रेस पयलेंच फावट जमली. ब्रिटीशाक धांवडावपाक ताणीं निश्चय केलो. ते खातीर मोटी चळवळ सुरू केली.

भारताचे गवर्नर—जेनरल आनी व्हिसरै म्हणून लॉर्ड कर्जन आयले. येतना ताणी मोर्ली—मिन्टोंचीं सुधारणां हाडलीं आनी लोकां मुखार मांडलीं. १९११—वर्सा साम्राज्याची भारतीय राजधानी कल्कत्ता सावन दिल्लीक हालयली.

१९११–१८ वर्सा संवसारीक म्हा–झूज पेटलें. त्या वेळार भारतांत अिंग्लेजांनी मोंटाग्यू–केंम्सफोर्डांनी तयार केल्लीं सुधारणां लागू केलीं. महात्मा गांधींच्या फुडाकारान अिंग्लेजां आड मोटी चळवळ चालीक लागली. तांकां सहकार दिंवचो न्हय आनी तांचे कायदे आनी हुकुम पाळचे न्हय म्हणपाचें अिंग्लेजांक ताणीं नेंटान सांगले आनी तशेंच केलें. जायत्या जाणांक धरून व्हेले. कैदी केले.

" भारत सोडात " वा 'क्विट अिंडिया' चळवळीक नेट आनी वेग मेळ्ळो. १९४६ वर्सा भारतीय लोकाचो तात्पुर्तो केंद्र सरकार घडलो. भारताची राष्ट्रबांदावळ वा घटना तयार करपाक घटना–सभा जमली. तांतले मुखेल जाणकार घडोवपी म्हळ्यार डॉ. बी. आर. आंबेडकर.

१९४७ वर्सा लॉर्ड मौंटबेटन भारताचे व्हिसरै जाले. ताणी भारताचे दोन कुडके केले. तांतलो व्हडलो–सो अेक म्हळ्यार आयचो भारत देस. दुसरो म्हळ्यार पाकिस्तान. नवो भारत १५ आगोस्त १९४७ वर्सा स्वतंत्र देस म्हणून जल्माक आयलो. पंडित जवाहरलाल नेहरू भारताचे पयले प्रधान–मंत्री जाले. श्री. चक्रवर्ती राजगोपालचारी स्वतंत्र भारताचे पयले गवर्नर–जेनरल जाले.

त्या उप्रांत २६ जानेर, १९५० भारत लोकराज्य जालें. लोकराज्याचे पयले राष्ट्रपति डॉ. राजेंद्र प्रसाद जावन गेले.

तांच्या फाटीं डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन त्या पदार पावले. तांच्या उप्रांत डॉ. झाकिर हुसेन राष्ट्रपति जाले. डॉ. हुसेनिंच्या मर्णा उप्रांत श्री. वि. वि. गिरींक राष्ट्रपतिपद फावो जालें. तांचे फाटीं श्री. फकरूद्दीन अली अहमद राष्ट्रपति जाले. तांच्या मर्णा उप्रांत श्री. नीलम संजीव रेड्डी राष्ट्रपति म्हणून वेंचून आयले.

पंडित नेहरू भायर पडल्या उप्रांत श्री. लालबहादूर शास्त्री प्रधान मंत्री जाले. तांचो प्रधानांचो काळ भौच मोटवो जालो. घाल्लून दिल्लें धोरण ताणी नेटान फुडें व्हेलें. तांच्या मर्णा उप्रांत श्रीमती अिंदिरा गांधी प्रधान मंत्री जाल्यो. त्यो ११ वर्सां हुद्यार उल्यो. उदेंत पाकिस्तानांत बंगाली जमातिच्या लोकांक त्रास भोगताले. सरकारा–आड थंयच्या बंगाल्यांची गुप्त चळवळ सुरू जाली. ते आपलो स्वतंत्र देस करपाक वावुरताले. भारतान तांकां सगलो पालव दिलो. तांकां पाकिस्ताना-कडल्यान मेकळे केले. त्या नव्या देसाक आतां बांगलादेस म्हणटात. १९७५–आंतल्या जुनांत भारताच्या माथ्यार लांब–काळाची संकट–काळची स्थिती वा अिमर्जेनसी थापली.

१९७७ वर्साच्या मार्सांत अितिहासीक अश्यो सर्व–वेंचणुको जाल्यो. तांतूत तीशेक वर्सां सत्तेर आशिल्ले कांग्रेसीक हार पडली. श्रीमति गांधींचो तो कांग्रेस पक्ष सत्तेवेलो निखळावन पडलो. तांचेर जैत जोड्डून जनता पक्ष वेंचून आयलो. आदल्या पांच पक्षांचो अेकवट केल्लो हो नवो पक्ष. प्रधान मंत्री श्री. मोरारजी



देसाय जाले. दोन वर्सां अदिकूच जनता सरकार तिगलो. मागीर जनता पक्षांत फूट पडली. जनता ( सेक्युलर ), मागीर लोक–दल म्हणून नवो पंगड जालो. हो पक्ष कॉंग्रेस ( अर्स गट ) पक्षाच्या आनी हेरांच्या आधारान नवो सरकार घडूंक पावलो. श्री. चरन सिंग प्रधान मंत्री जाले.

१९८० वर्सांतल्या जानेरांत जाल्ले सर्व--वेंचणुकेंत श्रीमति अिंदिरा गांधींचो कॉंग्रेस पक्ष परतो सत्तेर वेंचून आयलो. श्रीमती अिंदिरा गांधी परत्यो प्रधान--मंत्री जाल्यो.

## भारतांतले धर्म

साबर धर्म हे पवित्र भुंयेर उपजले. हेर धर्म भायल्यान येवून हांगाच उल्ले आनी वाडले. तांतलो सगळयांत आदलो म्हळयार हिन्दू धर्म. आमच्या चडांत–चड लोकांचो होच धर्म जावन आसा. चड करून तो चार वेदांचेर आधारिल्लो आसा. ह्या वेदांक ती म्हणटात. हाचो अर्थ म्हळयार देवाकडल्यान होल्मल्लें गिन्यान. ह्या भायर हेर बरोवपां आसात. हांकां स्मृती म्हणटात. हाचो अर्थ म्हळयार जें गिन्यान उगडासांतल्यान अेकटांयलां. मागिरच्या काळांत उपनिशद, पुराण, आनी अितिहास बरोवन जाले आनी त्या दायजांत आनीक भर पडली.

आदले आर्य सैम्नीक शक्तींक देव मानताले. त्यो वरूण

अग्नी, ओंद्र, सोम, सूर्य सारकेल्यो शक्ती. तांकां ते भक्तिभावान पुजताले. होम म्हणून भेट करताले. द्रविड लोकांक भेटल्या उप्रांत तांचेकडल्यान ताणीं पुजेची परंपरा आपणायली. हे भशेन, हिन्दू धर्मान आर्य आनी अनार्य कल्पना आपल्या गोपांत ओकटांय हाडल्यो. हिन्दू धर्म अखल्या राष्ट्राचो धर्म कसो जावन सगळ्याक पसल्लो.

हिन्दू धर्माच्या कुसव्यांत शंकराचार्य, रामानूजा आनी माधवां सारकेले म्हान सुधारक पुरूस जल्मले. आनी ताणीं हिन्दू धर्मांत नवें रसरशीत जिवीत वोतलें. वाराणसी हिन्दूंची सगळ्यांत पवित्र सुवात. भारतांतल्या लोकांत हिन्दूं धर्मियांचो आकडो ८२ टक्के लागता.

तांचे फाटोफाट भारतांत मुसलमान मेजतात. ते सुमार स कोटी आसात. सगळ्या भारतीय लोकांचे ते बारा टक्के अितले बसतात. तांचो धर्म, अिस्लाम, महम्मद पैगंबरान थापलो. तो आरबस्तानांतल्या मेक्कांत जल्मलो. तें शार मुसलमानांचे पवित्र स्थान जावन आसा. महंमदांची शिकवण पवित्र कुराणांत बरयल्ली मेळटा.

मुसलमान लोक भारतभर शिंपडल्यात. चड करून ते काश्मीर, लक्षद्वीप, आसाम, बंगाल, केरळ, उत्तर प्रदेश आनी बिहार राज्यांनी रावल्ले मेळटात.



क्रिस्तांव धर्माचो लोक भारतांत सुमार देड क्रूट (कोटी) आसा. कुल्लीं भारतीय लोकाचो ते उणीपुणी तीन टक्के जातात. क्रिस्तांव धर्म जेझु क्रिस्तान थापलो. तो आयच्या अिस्रायेल देसांत, बेलें शारांत जल्माक आयलो. ताचें येणें प्रवादी (पैगंबर) म्हणटल्या भाग्यवंत मनशांनी आदीं फुडेंच कळीत केल्लें. तो खुर्सार अंतल्लो. तीसऱ्या दिसा मर्णांतल्यान जीवंत जालो. तो सर्गार चडलो. बायबल, हो क्रिस्तांवांचो पवित्र ग्रंथ. हो धर्म पयलो—वयलो भारतांत भितर सल्लो. तो हांगा हाडपाचें काम ५२ वर्सांत संत् थोमसान केलें. अेत्ररोपाक हो धर्म हाचे परस जायत्या काळा उपरांत पावलो, हें सगळीं जाणांत, व्हय !

भारतांतले क्रिस्तांव सगळ्याक शिंपडल्यात. चड करून ते केरळ, तमिळनाडू, आंध्र प्रदेश, गोंय, नागालेंड, मणिपूर, मेघालय, मीझोरम आनी अंदमान आनी निकोबार जुव्यांर मेळटात. तांची सगळ्यांत पवित्र सुवात म्हळ्यार जेरूझलें. तें शार आयच्या अिस्रायेलांत उरता.

क्रिस्तांवां फाटल्यान शीखांचो लोकां—आंकडो लागता. शीख, ही अेक जमात. शीख धर्म म्हळ्यार अेक संप्रदाय, अेक पंथ. तो गुरूनानकान स्थापलो. गुरूनानकाकडेन जाणीं धर्माची दीक्षा घेतली, तांकांच शीख म्हळ्यार ‘ शिष्य ’ समजूंक लागले. कोणाच्यानूय नानकाचो शिष्य जांव येतालो. थंय जाति—पातीचें बंधन नासलें. हिन्दू आनी मुसलमानांक अेकामेकां लागीं

हाडपाचो गुरू नानकाचों हेतू आसलो. शीखांचो पवित्र ग्रंथ म्हळ्यार ‘ गुरू ग्रंथ साहिब ’.

शीखांचो लोकांकडो अेका कूटा ( कोटी ) वयर आसा. भारतीय लोकांचे ते सुमार दोन टक्के आसात. ते चड करून पंजाब, दिल्ली आनी हरियाणांत जियेतात. ते भारतांत तशे सगळेकडेन शिंपडल्यात. तांची सगळयांत पवित्र सुवात म्हळ्यार अमृतसर.

तांच्या उप्रांत बुद्ध धर्मीय लोकांचो आंकडो लागता. ते सुमार तीस लाख आसात. चडशे महाराष्ट्र आनी अरूणाचल प्रदेशांत मेळटात. बुद्ध धर्म गौतम बुद्धान घडलो. तो कुंवर सिद्धार्थ म्हणून राज–घराण्यांत जल्माक आयिल्लो. मनीस–कुळाक लागतलें दू:ख ताका खरायेन आफुडलें. तें नियाळून ताणे राज–गादी सोडून दिली.

आपल्या भांवडां खातीर ताणें आपली जीण भेटयली. आप–सुंवार्थ सोडून दिवचो, अहिंसा पाळची आनी सगळ्या प्राण्यांक बरें करचें, अशें ताणें शिकोवचें. बुद्ध धर्मांत दोन पंथ आसात : हिनयान आनी महायान. पींपळ रूखा पोंदा ताका निर्वाण फाव जालें. ताचो धर्म भारतांत आनी शेजारच्या देसांनी, देखीक : श्रीलंखा, टिबेट, चीन, जपान, वियेटनामांत पातळलो. ह्या धर्माची भौ पवित्र सुवात नेपाळांतली लुंबिनी जावन आसा.

जैन धर्माचे लोक वीस लाख भर आसात. ते देसाच्या अस्तम्त भागांत, म्हळ्यार महाराष्ट्र, गुजराथ आनी राजास्तानांत शिंपडल्यात. जैन, हें जीन, ह्या उतरावेल्यान येता. ताचो अर्थ म्हळ्यार जिखपी. हें बिरूद वर्धमान महावीर, वैशालीच्या राज-कुंवरान घेतलें. तेन्ना ताणे अशोक रूखा पोंदा निर्वाण जोडलें. संवसाराचेर जैत जोडून घेतलें. जिवांक दुखोंवचे न्हय म्हणपाचो सगळ्यांत व्हड धर्म, अशें जैन मानतात. ह्या धर्मांत दोन पंथ आसात : दिगंबर आनी श्वेतंबर. तांची सगळ्यांत पवित्र सुवात म्हळ्यार बिहार राज्यांतलें पर्सनाथ.

अेक अशी जमात आसा जिचो लोक धा लाखां परस थोडो आसा. ती म्हळ्यार झारातूस्त्री. तांकां पार्सी म्हणून चड बरे वळखतात. तांचे पुर्वज अिराणच्यान पळून आयिल्ले. किल्याक तांकां थंय पिडणूक भोगची पडटाली. लांकडांच्या लोटिंग्यांचेर बसून दर्यातल्यान पळून आयिल्लो लोक पाणयाच्या लोटान गुजराथेंच्या दर्या देगेर पडलो. ते आतां गुजराथी उलयतात. चड करून गुजराथ आनी मुंबयंत रावतात.

झारातूस्त्रा नांवाच्या पुरसान ह्या धर्माचे मुळावण घालें. तो अिराणांत, मिदया शारांत जल्मलो. हें क्रिस्ता आदल्या ६६० वर्सांत घडलें. ताची शिकवण ‘ झेंड अवेस्ता’त अेकटायल्या. तो पार्शांचो पवित्र ग्रंथ जावन आसा.

हे आनी हेर सगळे धर्म आमच्या देसांत नंदतात. देखून

आमकां ह्या देसा विशीं व्हडविक दिसता. आमचो देस धर्मातित्व. म्हळ्यार तो सगल्या धर्मांक फाव ते म्हत्व दिता. सगळ्या धर्मांक आपलेच मानता.

## भारतांतल्यो भासो

जरी अेक देस आसलो तरी भारत साबार भासांनी उलयता. भारतांतल्यो मुखेल सोळा भासो राष्ट्रबांदावळीचे आठवे वळेरींत दिल्यात. सगळ्यो मेळून भारतांत २२ साहित्तीक भासो आसात. तांतले तांतूत अिंग्लेज आनी संस्कृत आस्पावतात. ह्या २२ भासांक भारतीय सामित्य अकादमीन मान्यताय दिल्या. ह्या भासांची उदरगत करपाक अकादमी हात—भार लायता.

त्यो भासो अश्यो आसात : आसामांत आसामी उलयतात; बंगाली चड करून बंगालांत उलयतात; दोगरी जम्मु आनी हिमाचलांत चलता; अिंग्लेज थोड्या प्रमाणान सगळ्या भारताक उलयतात; गुजराथी गुजरातांत उलयतात; हिन्दी बिहार, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश आनी हरियाणाच्या उत्तर भागांत चलता; कन्नड कर्नाटकांत; कोंकणी गोंय, महाराष्ट्र आनी कर्नाटकाच्या दर्यावटेनच्या वाटारांत आनी केरळच्या भौ थोड्या कुणग्यांनी उलयल्ली आयकूंक येता; बिहारांतल्या कांय भागांत मैथिली उलयतात; केरळचे लोक मलयालम् उलयतात; मणिपुरांत मणिपुरी भास आसा; मराठी महारष्ट्रांत चलता; नेपाळी

बंगालच्या थोड्या भागांत आनी नेपाळांत चलता; उडिया भास उडिसांत राज्य करता; राजास्तानी राजास्तानांत उलयतात; संस्कृत उलोवपी भारतांत शिंपडलेले पंडित आसात; सिंधी उलोवपी मुंबय आनी गुजराथांत शिंपडल्यात; तमीळ तमिळ-नाडूंत चलता; आंध्र प्रदेशांत तेलगू उलयतात; उर्दू चड करून उत्तर प्रदेश आनी पंजाबाच्या कांय भागांत उलयल्ली आयकूंक येता.

ह्या भारतीय भासांनी जायतीं पुस्तकां बरयतात. जायतो लोक तीं रूचीन वाचतात. आमची खाशेली संवस्कृताय तीं जीवी दवरतात. सगळ्यांत बरे म्हणून वेंचिल्ल्या पुस्तकाक साहित्य अकादमी दर वर्सा पुरस्कार दिता. तश्योच राज्यांतल्यो अकादमी जैं-थैंच्या थळावीक भाशेंतल्या पुस्तकांक अिनामां वांट्टात. भारतांत हेर बोलीय उलयतात. तांकां बरयल्लें रूप ना. ह्या साबार तोंडातल्यान भारतीय संवस्कृतायेची अेकताय उच्चारपांत येता.

## राष्ट्रचिन्न

भारताचें राष्ट्रचिन्न अशोक पातशायच्या चिन्नाचेर आधारून आसा. तांतूंत चार शिंवां मदीं अेक चाख आसा. तांच्या उजव्यान बैल आनी दाव्यान घोडो उबे रावल्यात. सामक्या उजव्या आनी दाव्या वटेन हेर चाखांची सांवळी

दिसता. तांचे सकला देवनागरी लिपींत ‘सत्यमेव जयते’ हें उतर बरयल्लें मेळटा. ह्या उतराचो अर्थ म्हळयार ‘फकत सत् जैत व्हरता’.

## राष्ट्रबावटो

आमी आमचो राष्ट्रीक बावटो जाणांत, व्हय? जाणांत तर, हें आनीक सांगुंक जाय! तो तीन–रंगी बावटो. वयर केसरी रंगाचो, मदीं धवो आनी सकला पांचवो. धव्या पट्याच्या मदल्या भागांत निळ्या रंगाचें एक चाक आसा. तें म्हळयार सूत कांतपाचो चरखा म्हणून दिसता.

## राष्ट्रगीत

आमचें राष्ट्रगीत खैंचें, हें आमी सगळीं जाणांत, व्हय? ताचें नांव–“जन गण मन–”. तें आमच्या म्हाकवी रविंद्रनाथांनी रचलां. आमचें लागीं आनीक एक सोबीत प्रार्थना गीत आसा. ताचें नांव : वन्दे मातरम्. तें व्हड बरोवपी बंकिमचंद्र चतर्जीचे लेखणींतलें. ह्या देसाचो आमकां अभिमान दिसता. आमच्या बऱ्या कर्तुपांनी हो देस आमी भुरगीं व्हडविकेक पावयतलीं.

## भारतीय राष्ट्रबांदावळ

आमच्या देसाची राष्ट्रबांदावळ खासा आपयल्ल्या विधी–मंडलान तयार केल्ली. केंद्र आनी राज्यांचे सरकार धरून एका एकवटीत राष्ट्रबांदावळींत बसतात. भारत स्वतंत्र राष्ट्रमुकुट, लोकशाय रीतीचें लोकराज्य जावन आसा. न्याय, सारकाय आनी मेकळीक, हे ताचे मुळावे खांबे. समाजीक, अर्थिक तशी राजकी न्याय–नीत, ह्या तत्वांचेर आधारून राष्ट्रान आपलें सर्वमान्य धोरण आपणायलां. तांतूंत विचार आनी उलोवप–बरोवप, हांकां मेकळीक दिल्या. भावार्थ, धर्म आनी पुजेक स्वतंत्रताय आसा. सगळ्या भारतीय नागरीकांक एका पांवड्याची आनी एकसारकी संद फाव केल्या. मनशाचो मान आनी राष्ट्राचो एकचार, हांकां महत्व दिलां. त्या भायर नाडानाडीं–आड नागरिकांचो हक तांतूंत पर्गटायला. म्हाल-वजाच्या, सविधानीक आनी शिक्शणीक हकांची राखण करतले म्हणपाचें तांतूंत भासायलां.

## केंद्र आनी राज्य सरकार

भारतीय संघाक एक केंद्र सरकार आसा. ताची राजधानी नवी दिल्ली. बावीस राज्यांनी राज्य सरकार स्थापिल्ले

आसात. त्या भायर आठ संघ–प्रदेशांनी सरकार चलतात. जो पंगड वा पक्ष चडांत चड विधान–सभेचे जागे जिखता तो पंगड सरकार घडटा. केंद्र सरकार घडपाक लोक--सभेंत चडांत–चड मत वा भोवमत आसुंक जाय. राज्यां आनी संघ–प्रदेशां खातीर ते ते विधान--सभेंत भोवमत आसुंक फावो. देसाचो राजकारभार कायमच्या सरकारी कर्मचाऱ्यांवरवीं चलता. मंत्रीमंडळ तांच्या वावराक नेट दिता.

## राजकी पक्ष वा पंगड

सरकार चलोवचे पासत कांय जाणांचे वांगड अेकटांय येतात. तांचे कडेन अेक थारावीक धोरण आंखिल्लें आसता. तें जाहिरनाम्या वा मॅनिफेस्टो वरवीं ते लोका मुखार मांडटात. अेका नांवां आनी खुणे खाल वेंचणूक झुजंयतात. अेक–अेक वेंचणुक–मांडांतले बसकेक आपलो उमेदवार दवरतात. जो उमेदवार वेंचणुक–मांडांत चड मतां जोडटा तो ती बसका जिखता. राजकी पक्ष आमचे लागीं मतां मागतात. ते खातीर चड करून नारे आनी थकव्यांचो उपेग करतात. फकत २१ वर्सांची पिराय जाल्ल्यांनीं वेंचणुके वेळार मतां घालूं येतात.

भारतांतले मुखेल राजकी पक्ष हे आसात : (१) श्रीमती अिंदिरा गांधींच्या फुडारपणाचो कॉंग्रेस (२) जनता पक्ष जो पांच



पक्ष वा पंगड अेकटांय येवून घडिल्लो पुण उपरांत फुटलो (३) भारतीय जनता पार्टी (४) श्री. देवराज अर्स–च्या मुखेलपणा खाल आशिल्लो काँग्रेस पक्ष (५) लोक दल (६) भारतीय कम्युनिस्त पार्टी ( मार्क्सवादी ); (७) भारतीय कम्युनिस्त पक्ष; (८) भारतीय मुसलमानांचो अेकवट ( मुस्लिम लीग ).

कांय पक्ष वा पंगड अशे आसात जांकां देसाच्या अेकाच वाटारांत वा भागांत तेंको मेळटा. तांतले तांतूत मुखेल म्हळ्यार : महाराष्ट्रांत रिपब्लिकन पक्ष; पंजाबांत अकाली दल; तमीळनाडूंत द्र. मु. क. आनी अण्णा द्र. मु. क. पक्ष. त्या भायर हेर ल्हान सांन पंगड राज्यांनी आनी संघ–प्रदेशांनी मेळटात.

## प्रधान मंत्री, मंत्रीमंडळ आनी राष्ट्रपति

दिल्लीच्या लोक–सभेंतल्या सगळ्यांत व्हडल्या पक्षाचो वा पंगडांचो फुडारी प्रधान मंत्री जाता. ताका वा तिका आधार दिवपाक हेर मंत्री नेमतात. सगळ्या मंत्र्यांक राशीक धरून मंत्रीमंडळ म्हणटात. तांकां रासवळ जबाबदारी आसता. तांकां सरकारी खातीं वांटून दितात. प्रधान मंत्र्यांच्या सांगण्यान तांची नेमणूक राष्ट्रपति करतात.

राष्ट्रपति राष्ट्राचे मुखेल जावन आसात. तांकां आधार

दिवपाक पालवी राष्ट्रपति नेमतात. तांकां दोगांयकूय संवसदेचे आनी राज्यांच्या विधान–सभांचे वांगडी मेळून वेंचून दितात.

## मुखेल–मंत्री, हेर मंत्री आनी राजपाल

तेच भाशेन, राज्यांनी आनी संघ–प्रदेशांनी विधान–सभेक वेंचून आयिल्ल्या सगळयांत व्हडल्या पंगडाचे फुडारी मुखेल–मंत्री जातात. हेर मंत्री मुखेल–मंत्र्यांक पालव दिवपाक नेमिल्ले आसतात. तांकां वेग–वेगळीं सरकारी खातीं वांटटात. मंत्र्यांक राशीक धरून तांचे राज्य वा संघ–प्रदेश मंत्रीमंडळ जाता.

दर–अेक राज्यांत आनी संघ–प्रदेशांत केंद्र सरकाराचे प्रतिनिधी म्हणून गवर्नर वा राजपाल आसता. तो त्या त्या राज्याचेर वा संघ–प्रदेशाचेर केंद्र सरकाराचे वतीन देखरेख करता.

## संवसदेचीं घरां आनी विधानसभा

राष्ट्रीक संवसदेक वा पार्लमेंटाक दोन सभाघरां आसात. अेक लोकसभा, जिचे वांगडी लोक नीट वेंचून दितात. दुसरें

सभाघर राज्यसभा जावन आसा. राज्यसभेचे वांगडी दुसरे भाशेन वेंचतात. तांचे मतदार म्हळ्यार विधान–सभांचे, विद्यापिठांचे आनी स्थानीक संस्थांचे वांगडी.

विधान–सभेचे वांगडी लोकांच्या नीट मतान वेंचून येतात. कांय राज्यांनी विधान--परिशदय आसा. तिचे वांगडी हेर भाशेन प्रतिनिधी आनी संस्थो वेंचतात वा नेमतात. विधान–सभेंत, विधान--परिशदेंत, लोक--सभेंत आनी राज्यसभेंत कारभाराचें येजमानपण चलयतल्याक सभापति म्हणटात.



## कोम्पट्रोलर आनी औडिटर-जेनरल

भारताच्या कारभारांत कोम्पट्रोलर आनी औडिटर--जेनरल म्हणून अेक ऊंच अधिकारी आसा. केंद्र आनी राज्यां सरकारांच्या हिशोबांचेर तो दोळो दवरता. सरकारी येणावळ आनी खर्च, हांचेर तो बारीकसाणेन ध्यान दवरून तपासून घेता. तांकां आधार दिवपाक औडित नांवांचें अेक स्वतंत्र व्हडलें सरकारी खातें आसा.

## वेंचणूक-मंडळ

आमच्या देसांत जातल्यो वेंचणुको चलोवपाक वा घडोवन

हाडपाक वेंचणुक--मंडळ थापिल्लें आसा. ताचो मुखेल वेंचणुक--आयुक्त वा अिलेक्शन कमिशनर जावन आसा. ताच्यो कचेरी भारतभर सगळ्या राज्यांनी आनी संघ-प्रदेशांनी आसात. त्यो वेंचणूक वळेरी सांबाळटात.

## आर्थिक मांडावळ

हे धर्तरेवेली जीण जगचे खातीर आमचे लोक किते करतात ? किंतलेशे आमचे वांगडी हें जाणांत, कशें ?

आमचे चडांत—चड लोक गांवांनी रावतात. ते शेतकामत करतात. कुदळ घेवून ते जमीन खणटात. ना जाल्यार बैल लावन नांगर ओडटात. ते भात, गंव, जवार, बाजरी, नाचणो, मूग, कुळीद, हळसांदे आनी हेर दाणो—गोटो रोयतात. तशेंच ऊंस, तंबाकू, कापूस, सण लावन काडटात. हेर शारांनी आनी गांवांनी आसतल्या कारखान्यांनी वावर करतात. थंय चडसो यंत्रांच्या आधारान वावर चलता. तांतूंत कामदार तशो कर्मचारी, विजनेर, तशे व्रेवस्थापक म्हणून नोकरी करतात. ते तिखें आनी शिमिट, सारें आनी रसायण, व्हगट आनी तयार--वस्त्र, रेडियो आनी टेलेविजन, सायकली आनी मोटरां, साकर आनी तेल तयार करतात. व्रेपारी तें सगळ्या देसाक पावयतात. सुबेज उरता तें भायल्या देसांक निर्यात करतात. अशी आमची अर्थिक

मांडावळ सुळसुळीत चलत रावता. देसाच्या उदरगतीची वाटचाल येवजण--मंडळ थारायता. ह्या मंडाळाक अिंग्लेजींत प्लेनिंग कमिशन म्हणटात. तें मंडळ भारताच्या सर्वांगीं विकासा खातीर येवजण्यो मांडटा. त्यो खरेपणांत हाडपाचे येत्न सरकारी आनी बिन—सरकारी खाल्यां वरवीं करता.

देसांतली चडशी रोयिल्ली जमीन दाण्या—गोठ्यांन भल्या. भारतांत दोन मुखेल पिकांचे रूतू आसात. आमच्या कोंकणांत आनी तांतल्या गोंयांत तांकां सर्द आनी वांयगण म्हणटात. भारतांत हेर कडेन तांकां खरीक आनी रबी म्हणटात. सर्द जुनांत वा मिर्गार सुरू जातल्या पावसाचेर आधाल्लां. वांयगण वैतुंब्रांत रोवपाक सुरू करतात. वांयगणाक उत्तर--उदेंत पावसाळयाचो थोडो--भौ तोडवो पावस मेळटा.

तांदूळ, हो भारतांतलो मुखेल दाण्या--गोठो. तो चड करून आंध्र--प्रदेश, तमीळनाडू, अस्तम्त बंगाल, आसाम, उडिसा, उत्तर प्रदेश, केरळ, गोंयांत आनी आतां पंजाब आनी हरियाणांतूय रोवन काडटात. दुसरो महत्वाचो दाण्या—गोठो म्हळ्यार गंव. गंव चड करून उत्तर प्रदेश, पंजाब आनी हरियाणांत रोयतात. जवार, बाजरी, नाचणो, असले तरेचो दाण्या--गोठो देसभर सगळेकडेन लायतात. हे निमाणे दिल्ले जिनस गोरवांक खांवड घालपाकूय उपकारा पडटात.

देसाच्या अेका—अेका भागांत चडसो अेके खेरीत तरेचो दाण्या--गोठो मेळटा तो आमी पळेलो. म्हणटकच त्या भागांतलो जेवणाचो पदार्थ चड करून तोच दाण्या--गोठो थारायता. दक्षिण आनी उदेंत आनी अस्तम्ते राज्यांनी तांदूळ चड मेळटा. देखून थंयचे लोक चडशें तांदळा पसून केल्लें शीत जेवतात. उत्तरेच्या राज्यांनी गंव्र चड पिकता. अशें आसून थंयचो लोक चडशें गंव्रांचेर आधारिल्लें जेव्रण करतात. हेर लोक अिल्लेंशें शीत जेव्रतात. नाजाल्यार बाजरीची भाकरी खाव्रन दिस काडटात. दर्या—देगेर नुस्तें भरपूर मेळटा. थंय रावतलो लोक दिसपट्टें नुस्तें रूचीन खाता.

भारतांत साबार तरेची दाळ किल्लावन काडटात. तूर तशी मसूरी आनी हेर दाळ जेवणाचो म्हत्वाचो वांटो जाव्रन आसा. दाळ द्रव्यान वा प्रोटिनान भौ गिरेस्त. ती खावून आमची कूड घटमूठ आनी बलायकेन बरी आमीं दव्ररतलीं न्हय !

सांबारा जिनस आमच्या देसांत सगळयांत चड पिकतात. सांबारा जिनस म्हळयार धमधमीत वासाच्यो वनस्पती. त्यो सुकयतकच सांबार वा मसालो म्हणून व्रापरतात. आमच्या खाणा—जेव्रणांक सुवाद दिव्रपाक तांचो उपेग जाता. त्यो वस्तु म्हळयार हळद, आलें, जिरें, मिरीं, तिखी, काराफूल ( लवंग ), वेळची. आतां कडयेचो पिठो तयार मेळटा म्हणून आमच्यांनी आयकलां जातलें न्हय ! तो म्हळयार वेंचीक सांबारा जिनसांचो

दळून केल्लो फाव तसो मेळ. ह्यो सगल्यो वस्तु आमी भायल्या देसांकूय धाडटांव.

नाल्ल, अंबे, पणस, अनसां, धाको (द्राक्षां) हांच्या सारकीं फळां; तेला–बियां, कापुस, रेशीम, सण भारतांत जायतें पिकता. हें सगळें मोट्या प्रमाणान भायर धाडटात. कापसा आनी रेस्मा पसून आमी अंगवस्त्रां (कपडे) शिवतांव. मुंबाचे राजू आनी सणाचे साक आनी पोतयो करतात, नाल्ला पसून काथो मेळटा, हें आमी जाणांव. काथ्याच्यो कारपेटी आनी दोरां तयार करतात, ही आमकां सगळयांक खबर आसा, व्हय? तेला–बियां मदलीं मुखेल म्हळयार भिकणां, सांसवां, सणबियां. तांचे पसून तेल काडटात. तें रांदपांत भौ उपेगी.

आमच्या देसांत चा, काफी, काजु–बी, रब्बर, हांच्यो व्हडल्यो बागो लायल्यात. अस्तम्त बंगाल, आसाम आनी मेघालयांतल्या दोंगरांचेर ह्यो बागो शेकानशेक पातळ्ल्यात. काफी चड करून कर्नाटक, तमीळनाडू आनी केरळांत पिकयतात. काजु–बी चड करून केरळांत आनी गोंयांत जाता. तंबाकू पसून विडी, सिग्रेट, ओडपाक धुमटी तयार जावन येता. तंबाकू, ऊंस, फोफळां ( सुपारी ) हांच्योय बी बागो लायतात.

## धर्तरे–पोंदची गिरस्तकाय

आमच्या देसांतल्या कांय दोंगरां आनी गाळिंनी खणी

माल्ल्यात. तांतल्यान खनीज वा मीन काडटात. लोखण, मैका, टैटान्यम आनी थोरियम, हांचो हरवो ( कच्चो ) माती—फातर भारतांत खूब मेळटा. हेर खनीज आमच्या गरजे—पुरतें आनी सुबेज भायर धाडी—सारकें आसा. तें म्हळ्यार आलुमिना, मेगनेसैत, मंगनीज, सिलिका सारकेलें. आमच्या गरजांक जाय—तितली कांच तसोच चुन्या—फातर भारतांत आसा.

कोळसो, गॅस आनी तेल ह्या देसांत मेळटा. गॅस आनी तेल काडपाक अेक खासा कमिशन वा मंडळ आसा. तें मंडळ धरतरे—पोंदचो भाग साधावन पळेता. तेल वा गॅस सांपडल्या उप्रांत ते सुवातेर तेल—काडपाचीं यंत्रां बसयता. असलीं यत्रां देसाच्या साबार भागांनीं घाल्यांत. दर्यांत लेगीत उफेतलीं आसनां बसयल्यांत. तीं दर्याच्या खरीक बीण मारून तांतल्यान तेल ओडून घेतात. हें हरवें ( कच्चें ) तेल लांब पायपांनी घाळून कारखाण्यांक वा रिफायनरींक धाडटात. थंय तें तेल नित्रळायतात. तांतल्यान तरेतरेचे तेला—जिनस तयार जातात. आमच्या मोटर—गाडयांक पेट्रोल आनी ट्रकांक डीझल मेळटा. रांदपा खातीर आमकां गॅस मेळटा. आमच्यो ह्या तेलाच्यो गरजो सध्या पुराय भागनांत. देखून आमकां भायलें तेल आयात करून हांडचें पडटा.

आलुमीनयम आनी तिखें ह्या देसांत जायतें भल्लां. आमकां सुरियो आनी कांटे, दौले आनी कायलांटे, कुलेरां आनी आयदनां करपाक तें उपकारा पडटा. तांबें आमकां कांय

प्रमाणांत भायलें हाडचें पडटा. कित्याक आसा तें आमच्या वाडट्या गरजांक पावना. रूपें आमचे लागीं आसा. अिल्लेंशें भांगरूय आमच्या देसांत मेळटा. तें म्हैसुराच्या कोलार आनी हुट्टी मिनांत काडटात. पुण हें आमच्या गरजांक सापुच पावना.

## घांटो आनी देव-मंदिरां

ह्या तांबे-पितूळ-तिख्यावेल्यान आमच्या देव-मंदिरांनी हुमकळटल्यो घांटो तयार करतात. कांय फांकी देव-मंदिरां आमच्या देसांत मेळटात. तांतले तांतूत आंध्र-प्रदेशांतल्या तिरूपतीचें देवूळ, केरळच्या गुरूवायूरचें, मदुरयचें मीनाक्षी, उडिसांतलें कोनारक, हीं नामनेचीं देवळां आसात. अमृतसरांतलें भांगरा-देव-मंदिर शिखांचो मुखेल गुरूद्वारा जावन आसा. गोंयच्या से काथेद्रालांत भांगरा घांट म्हणून नांवाडलेली अेकदम व्हडली घांट उचायेर लायिल्ली आसा.

## भोंवडेकारां खातीर

हीं देव-मंदिरां भोंवडेकारांक भौच ओडलायणीं जावन आसात. बिहारांतलें बोध--गया महत्वाचें बुद्धीय केंद्र जावन आसा. हिमाचल, उत्तर प्रदेश आनी महाराष्ट्रांतले सोबीत

दोंगर सवस्तकायेचें कुळार म्हळ्यार जाता. काश्मिरांतलें दल तळें आनी कर्नाटकांतलो जोग उदका--धबधबो तसोच गोंयचो दुदसागर धबधबो नीजाची रसरशीत सुन्दरकाय उठून दाखयतात. कोवलम्, कोल्वा, कळंगूट, मरीना आनी जुहू, ह्यां वेळेर भोंवडेकार वाऱ्याक आनी न्हांवूक येतात. मध्य–प्रदेश आनी राजास्थांनांतलीं कोटां आनी राजमहलां आमच्या वैभवीक अितिहासाची गवाय दितात. अजंटा आनी वेरूळच्या खडपांत फोडिल्ल्यो होंवऱ्यो आनी चित्रां अज्ञंवर उरतलीं. भारतांत मेळटल्या जायत्या सोबीत तळां भितर हीं कांय अप्रूप तळां जावन आसात.

## माहिती आनी कर्मणूक

हेर सोबीत देखावे आमच्या फिल्मकारांक चलचित्रां काडपाक उपकारा पडटात. हीं चलचित्रां चड करून हिंदिन्त-ल्यान आनी हेर थळावीक भासांतल्यान काडटात. आमचे कोंकणी भाशेंतल्यानूय चलचित्रां काडल्यांत आनी दाखयल्यांत, हें आमी जाणांव, न्हय ! संवसारांतलीं सगळ्यांत चड चलचित्रां भारतांत तयार जातात. लोकांमेरेन कसलोय संदेश पावोवपाचें हें मोटें साधन जावन आसा. रेडियो आनी टेलेविजन असलीं हेर तोलादीक साधनां आसात. रेडियो आनी टेलेविजना वरवीं उलोवपां, काणयो, नाटकां

आनी चूलचित्रां आमच्या घरांत आयकूंक आनी पळोंवक मेळटात. आमकां कर्मणूक फावो करतात. त्या भायर माहिती घेवपा खातीर खबरेपत्रां, नेमाळीं आनी पुस्तकां आसात. टेलेफोन करून आमच्यांनी एका–मेका लागीं उलोंव येता. तार करून कसलीय खबर कळोंव येता. टेलेग्राफ आनी टपाल खातें हो वावर पळेता. हें खातें आमच्यो चिटी आनी पार्सला हाड–व्हर करता.

## भायली राखण

देसाच्या राखणे विशींची गुपीत महिती कळीत करपाची आसल्यार, फौज हें काम करता. तांतली धरतरेवेली फौज नाळी–गुळो आनी रणगाडे उपकारायता. दर्यावेली फौज तारवांनी काम करता. तांचेकडेन सब्मारीन वा बुडव्यो–बोटीय आसात. ह्यो बोटी दर्या–पोंदच्यान भोंवतात. वाऱ्यावेली फौज विमानां घेवून देसाचो वाऱ्या वाटार दुस्माना पसून राखता. भायल्यान दुस्मानाची घुरी पडल्यार ते आमकां राखूंक एका पायांर सदांच सामके तयार आसात.

## भितल्ली राखण – न्याय

देसाची भितल्ली राखण, कायदो आनी सु--वेवस्था

पुलीस खातें पळेता. कोणेंय कायदो मोडल्यार ताका धरून पुलीस न्याय–सभेंत उबो करतात. आनी ताचे--आड फिरयाद मांडटात. न्याय–सभा वा जुवीज फिरयाद आनी गुन्यांवकाराक आयकून घेतल्या उप्रांत कायद्या प्रमाणे नीत दिता. गुन्यांवकाराक ख्यास्त लायता.

जमीनी बद्दल तंट्टे आसल्यार मामलेदाराच्या न्याय–सभेंत वा कोर्टांत सोडोंव येतात. कोणेंय कोणाक माल्ल्यार वा कोणाचो मान उबयल्यार वा आनीक कसल्याय तंट्टयांत न्याय जाय जाल्यार, हे खातीर पयल्या पांवड्याची कोर्ट वा न्याय–सभा आसा. हिका कोर्ट ऑफ जुडिशल मॅजिस्ट्रेट, फर्स्ट क्लास म्हणटात. तिणे दिल्लो न्याय मानूंक ना जाल्यार, तिचे वैर आशिल्ल्या हाय कोर्टांत वा ऊंचल्या मनसुब्रदारांकडेन वचूंक जाता. त्या मनसुबदारान वा जुविजान दिल्लो निकाल तरीय मान्य ना जाल्यार, देसांतली सगळयांतली ऊंच न्याय–सभा जी सुप्रीम कोर्ट हांतूंत अर्ज दिवूं येता. ती सुप्रीम कोर्ट दिल्लींत उरता. कोर्टांतल्यो आमच्यो फिरयादी चलोवंक लोकांक आदर दिवपाक वकील आसतात.

## शेतकाम, गोरवां–कुकडां पोसप आनी बॅंक

कोर्ट शारांत आसतात. आमच्या गांवांत चड करून शांती वस्ता. थंयच्या वयल्या न्हंयांचें उदक सार्के आसता. तें

पिवपा सारकें आसता. न्हंयचो सकयलो भाग जसो दर्याक मेळटा तसो खारो जाता. सावें उदक शेतां आनी पोरसां शिंपूंक उपकारायतात. खारोज वा कॅनाल फोडून तांतल्यान न्हंयेंचें सावें उदक शेतां–मळांक पावयतात. तळयां–तळियांनी सांटाविल्लें उदकूय सावें. हे शिंपणे येवजणेक लागून शेतां–पोरसांक बरी पीक मेळटा.

गोरवां, मेंडरे, बोकड्यो, दुकरां आनी कुंकडां घराकडच्या गोठ्यांत पोसतात. तीं भौच फायद्याचीं. गोरवां पसून दूद मेळटा आनी तांचे वरवीं शेतांतलो वावरूय करूंक जाता. पाड्यांक गाड्याक बांदल्यार तांचे उदेशीं माल हाड–व्हर करूंक जाता. तीं मासूय दितात. मेंडऱ्यांच्या आनी बोकड्याच्या मासाक 'मटन' म्हणून वळखतात. बोकड्यो दुदूय दितात. दुकराक मासाक लागून पोसतात. कुंकडां तांतयांक आनी मासाक लागून उपकारा पडटात. तांतलीं मुखेल कुंकडां म्हळ्यार कोंबो आनी कोंबी. तांच्या पोरांक पिलां म्हणटात. दुकरां पोरांक चुकू, बोकड्यां पोरांक बोकुडलीं म्हणटात.

हांकां पोसपाक आनी शेतकामत करपाक दुडू उणो पडल्यार, कांय संस्था आधार दितात. शेतकामत सहकारी संस्था, जमीन विकास संस्था आनी बेंक हे खातीर रीण मेळसारकें करतात. रीणान घेता त्या दुडवांचेर थोडो व्याज वा जूर फारीक करचो पडटा.

# येरादारी

शेतकामत आनी उद्योगाचे जिनस देसाच्या वेगळ्या वेगळ्या भागांनी पावयचे पडटात. तांतले तांतूत आग--गाडयो चडसो माल हाड—व्हरतात. त्यो सगळ्या देसाक पावल्यात. भारतीय रेलींचें जाळें संवसारांत सगळ्यांत व्हडलें जावन आसा. ही आमकां सगळ्यांक खबर आसा, व्हय !

रस्त्यांवेल्यानूय माल हाड--व्हर जाता. तो चडसो ट्रकांतल्यान, टेंपोंनीं आनी बसींतल्यान येता वेता. भितल्यान भोंवपाचो आजून पाणयां मार्ग आसा. तो म्हळ्यार न्हंयो. ह्या मार्गांतल्यान बोटींनी वा व्हड्यांनी मालाची येरादारी जाता. न्हंयेंच्या आलतडिच्यान पलतडी वचपाक व्हडें आसता ताका तार म्हणटात. कांय तारींचेर आतां फेरीबोटी आसात. त्यो म्हळ्यार यंत्रांच्या बळग्यार चलतल्यो बोटी. त्यो लोकाक तश्यो मोटर—गाडियांक न्हंयेच्या आलतडिच्या पलतडी हाड—व्हरतात.

दर्यार करतल्या लांब प्रवासाक व्हडली तारवां जाय पडटात. तसलीं तारवां भारतांत चड करून सरकारी कंपने कडेन आसात. तांतली व्हडली कंपनी म्हळ्यार शिपिंग कॉरपोरेशन ऑफ इंडिया. तशीच मोगल लायन आसा. त्या भायर कांय खासगी तारवां—कंपनी आसात. ताचे लागींय ल्हान—व्हड



तारवां आसात. तीं सगळीं तारवां आमच्या देसांतलो माल भायर विकपाक व्हरतात. तशींच आमकां जाय आशिल्लो माल भायल्या देसांतल्यान भारतांत हाडटात. हांकां निर्यात आनी आयात, अशें म्हणटात.

कांय तारवां आमी भायल्या देसांतल्यान बांदून हाडटांव. कांय तारवां आनी बोटी भारतांतूच बांदतात. ते खातीर खासा तारवां बांदपाचे कारखाने वा शिपयार्डां आसात. भारतांतलीं मुखेल शिपयार्डां अशीं आसात : हिन्दुस्तान शिपयार्ड, कोचीन शिपयार्ड, माझगांव डाक्स आनी गार्डेन रीच वर्कशॉप आनी आतां गोयांत वास्कोंत गोंआ शिपयार्ड तयार जालां.

## व्हडलीं बंदरां आनी विमानी सोंपेपणां

भायल्या देसांतल्यान येतना आनी भायल्या देसांक वचूंक रावतना, आमचीं तारवां आमच्या व्हड बंदरांच्या धक्यांक लागतात. थंय तीं भायर सावन हांडिल्लो माल उतरून घेतात. तशींच भायर धाडपाचो माल भरून घेतात. भारतांतलीं मुखेल बंदरां अशीं आसात : मुंबय, कलकत्ता, मद्रास, मुरगांव, कोचीन, विशाकपटनम्, पारादीप, कांडला.

रोखड्या रोखडो प्रवास करचो आसल्यार विमानान वचें पडटा. भारतांतूच खंयीं वचपाचें आसल्यार, इंडियन

ॲरलायन्स विमान—कंपनीचीं विमानां उपकारायतात. भायल्या देसांक वचपाक ॲर अिंडिया अिंटरनॅशनलच्या विमानान प्रवास करचो लागता. ह्या दोनूय कंपन्यांचो धनी भारत सरकार जावन आसा. भायल्या देसांक वचपाक आनी थंयच्यान येवपाक हेर विदेशी विमान—कंपनीय आसात.

## विज्ञान आनी तंत्रशास्त्र

विज्ञान आनी तंत्रशास्त्रांत आमच्या देसांत बरीच उदरगत जाल्या. चड करून ॲटोमिक वा अणु बळग्याच्या क्षेत्रांत आमचो देस बरोच फुडें पावला. आमच्या सोद—लावपी संस्थांनी आनी विद्यापिठांनी खोल सोद लावन फाळादीक पावलां माल्ल्यांत. आमचीं विद्यापिठां आनी तांच्यो कॉलेजी महत्वाचीं शिक्शणाचीं केंद्रां जावन आसात. तांच्यांतल्यान तयार जाल्ले विद्वान पदविदार भायर सरतात. तांचे विशय : कला, विज्ञान, वैजकी, कायदो, मनशास्त्र ( Psycliology ) समाजशास्त्र ( Socielogy ) नीजशास्त्र ( Physics ), गणीतशास्त्र, विजनेरकी आनी तंत्रशास्त्र.

आमचे शास्त्रगिन्यानीं ( Scientists ) संवसारांत बऱ्यांतले. आमच्या सर सी. वि. रामणांक नीजशास्त्रांत ( Physics ) संवसारांतलो सगळयांत व्हड आनी म्हत्वाचो म्हळयार नोबेल पुरस्कार फावो जाला. दुसरो भारतीय,

डॉ. हरगोबींद खुराणांक वैजकींत नोबेल पुरस्कार मेळ्ळा. पुण ते अमेरिकेक रावतात आनी थंयचे नागरीक जाल्यात. आमच्या म्हाकवी रबींद्रनाथ टागोरांनी साहित्याचें नोबल अिनाम जोडिल्लें.

हालीं आमच्या शास्त्रगिन्यान्यांनीं ' आर्यभट ' उपग्रह वा सॅटेलायट अंत्रळांत सोडलो. ताच्या उप्रांत ' भास्कर ' नांवांचो दुसरो सॅटेलायट धाडला. उप्रांत ' रोहिणी ' आनी निमाणेकडेन ' ॲप्पल ' सॅटेलायट अंतराळांत सोडल्यात. हे उपग्रह पृथवि भोंवतणी भोंवाडे मारतात. विज्ञानीक माहिती अेकटांय करीत आसात. ते माहितीचेर आदारून आमी भारीं वावर करून फुडले प्रयोग करतलीं. देसाच्या बऱ्या-भल्याक तिचो उंपेग करतलीं.

दुवेंस, पिडा, रोग ना-नपश्यात करपाक आमच्या देसांत मोटी प्रगती जाल्या. हे खातीर आमी आधुनींक साधनां उपकारायतांव. सगल्या मुखेल गांवांनी बलायके केंद्रां पडल्यांत. हेर कडेन तसलीं केंद्रां घालपाचीं येवजण चालू आसा.

## आयचो भारत

आमच्या न्हंयांचेर बांद, धरणां बसयल्यांत. तीं उदकाचो लोट आडावन दवरतात. त्या लोटाच्या बळग्यार मोटीं यंत्रां

चलयतात. त्या यंत्रांपसून वीज तयार जाता. वीज पुरवटो मेळून आमच्या घरांनी आनी कचेऱ्यांनी बिजले दिवे पेट्टात. तशीच ती वीज कारखान्यांनी यन्त्रां चलयता. देसांतलें तरे–तरेचें माला–उत्पन्न तांचेर आटापून आसा. आमच्या जायत्या गांवां गांवांनी बिजली पावल्या आनी उल्लेल्या गांवांनी पावत आसा.

भारत आयच्या आधुनीक युगांत ल्हवू ल्हवू पुण थीर-पणान निश्चित भितर सरता. ह्या देसाच्या कुसव्यांत जाय–जायतें भल्लां. ताचो सगळ्याचो आमी बरे तरेन उजवळ उपेग करूक जाय.

पुण तांची सगळयांत व्हड गिरेस्तकाय म्हळ्यार आमी ताचीं भुरगीं. आमीं भारताचीं फायचीं नागरीक जावन आसांव. घटमूठ भारत घडोवन हाडपाक आमी मन लावन वावर करतलीं. आमच्या देस–भाव–भैणांक धादोस भरीत करतलीं आनी भारत–मातेचें माथें सदांच वयर दवरतलीं.



## कोंकण–गोंयची वळख

आमच्या भारत देसाची वळख घेवून जाली. आमचें कोंकण आनी तांतलें गोंय भारताचो अखंड भाग जावन आसा. देखून भारताची वळख घेतना आमकां कोंकणाची आनी गोंयची

खबर मेळ्ळे भाशेन जाली न्हय ! व्हय तर. तरीय आसतना आमच्या प्रदेशाचें थोडें भौ खाशेलपण आसा. ह्या खाशेलपणाचेर आतां आमी नदर भोंवडांवया.

कोंकण भारताच्या अस्तम्त दर्या—देगेक शेकानशेक पातळ्ळां. ताचें मुळपीठ म्हळ्यार गोंय. गोंयच्यानूय आमचां लोक कोंकणभर शिंपडून गेलो. तांतले कांय जाण पिडापिडेक लागून पळून गेल्ले. हेर जाण व्हडवीक जोडचे पासत भायर सरिल्ले.

आमगेलें कोंकण आदल्या काळापासून नांवाजतो प्रांत. सुनापरांत, ह्या नांवान तें गाजतालें. ताचे अस्तम्तेक आरबी समूद्र तेंकला. उदेंतेक पुर्विल्लो सह्याद्री पर्वत मळबाकडेन पावला. थंयच्या खडपांतल्यान कोंकणाच्यो न्हंयो व्हांवतात. कांय मुखेल न्हंयांच्या नांवांची आमकां खबर आसतली न्हय ! तीं अशीं आसात : वशीश्टी, मांडवी, जुवारी, काळी, गंगावली. त्यो, न्हंयो व्हांवतना' वाटेक कोंकणाची जमीन शिंपतात. निमाणेकडेन आरबी समुद्रांत वचून वोत्तात. हांगा दाट रानांवनां लुसलुसतात. तांतल्या रूखां पसून बरें बरें लांकूड मेळटा. हांगा आंबे, पणस, नाल्ल, केळीं, अनसां, बोरां, जांबळां, पेरां, फोफळां ( सुपारी ), खांवचीं पानां, चारां, चुन्नां, घे म्हणून पिकतात. हांगा वर्सूयभर फुलांचो परमळ फांकता. जायो, जुयो, शेंवतीं, आबोलीं, मोगरीं, चाफीं, हाथो, रात- राणी, गुलाबां, घालो त्या त्या काळार फुलतात.

ह्या कोंकणाचे मुखेल भाग म्हळयार गोंय, रत्नागिरी, कारवार आनी मंगळूर जिल्ले. ह्या भागांत लोक गोड कोंकणी उलयतात. ती भास आमच्या जाण्टेल्यांचें गिरस्त दायज. ती आमी मन लावन फुलोवन हाडूंक जाय. तांतूत बरें बरें साहित्य रचूंक जाय.

ह्या कोंकणांत कोंक जमातीन पयलें लोका मुळावण घालें. उप्रांत द्रविड आनी सुमेरी लोक हांगा पावले. तांचे उप्रांत उत्तरेच्यान आनी उदेंतेच्यान सारस्वत आनी चाड्डे आपल्या वावराड्यां सैत आयले आनी हांगाच रावले. सगळे नीज कोंकणे जाले. अेका काळार आमचें स्वराज्य चलतालें म्हणून आमच्यांतलीं सगळीं जाणांत, व्हय ? आठवो शेंकडो धरून अिकराव्या शेंकड्या मेरेन या वाठारांत शिलाहारांचें व्हड घराणें धनीपणान राज्य करतालें. जाणांत सगळीं कि शिलाहार, हे आमगेले निजाचे कोंकणें राजा ? ते चाड्डे ( चतूरथी ) क्षत्रिय जातिचे. मुदलचे गोंयचे जांबावलेचे. तांगेली राजधानी आयच्या केपेंच्या वाळ्ळींत आसली खंय.

त्या भायर राष्ट्रकूट पात्शाय मुदलचे गोंयचे म्हणून ह्या आर्दीं सांगलां. ताणीं गोंयांभायर वचून व्हड कीर्त जोडली. येदे शूर वीर आनी कर्तुत्वी पुरूस आमचे कोंकण–भुंयेर जल्मले. हें आयकून आमचो जीव भुरकुट्टूंक जाय. अजून हांगा पाटांगडे विद्वान. बुदवंत वेपारी आनी हुशार मर्नीस जियेतात आनी



वावुरतात. ही ऊंच पांवड्याची आनी गिरेस्त परंपरा आमीं फुडें व्हरतलीं म्हणून आमी सोपूत घेंवया आनी ते दिशेन भारी वावरूंया, न्हय ?

कोंकणाचें काळीज म्हळ्यार गोंय. हांगाच हिन्दू कोंकण्यांचीं मुदलचीं देवळां आनी कुळदेव आसात. क्रिस्तांवांच्यो व्हडल्यो अिगर्जो आसात. हिन्दू आनी क्रिस्तांव सगळ्या कोंकण्यांच्या आज्ज्या–पणज्यांचे मुळ गांव हांगाच गोंयांत आसात. आयचें गोंय अेका संघ–प्रदेशांत आस्पावता. गोंय दामांव आनी दीव धरून हो संघप्रदेश.

आतां आमी गोंयचीच खबर करूंया न्हय ! गोंयच्यो शिमो आमी सगळीं जाणांत ? नकळ जाल्यार, हें पळोंवया. गोंयचे उत्तरेक तेरेखोलची न्हंय व्हांवता. तिच्या पेल्यानूय लोक कोंकणी उलयतात. तो उत्तरकडेचो भाग आतां महाराष्ट्रांत आसा. देखून तांचे कोंकणीचेर मराठीचें जड वजन पडटा. दक्षिणेक कर्नाटकांतलो उत्तर कन्नडा ( कारवार ) दक्षीण कन्नडा ( मंगळूर ) आनी जिल्ले उरतात. थंय बी लोक कोंकणी उलयतात. तांचे कोंकणीचेर कन्नड भाशेचो थोडो भौ प्रभाव पडटा. गोंयचे उदेंतेक म्हाल–म्हातारो सह्याद्री पर्वत गडगंज ऊंच उबो रावला. ताच्या पेल्यान घांटार कर्नाटकांतलो बेळगांव जिल्लो उरता. गोंयचे अस्तम्ते रेंवाळ देगेक आरबी समूद्र तेंकला.

सगळे मेळून गोंयांत अिकरा म्हाल वा तालुके आसात. तांची नांवां अशीं : तीसवाडी, बारदेस, साष्ट, पेडणें, दिवचल, सत्तरी, मुरगांव, सांगें, केपें, फोंडें आनी काणकोण. हांतलो सगळ्यांत व्हड म्हाल म्हळयार सांगें आनी सगल्यांत ल्हान मुरगांव जावन आसा.

गोंयचे मुखेल दोंगर आमी सगल्यांनी पळेल्या, व्हय ? तांचीं नांवां कितलीं ओडलायणीं ! सोंसोगड, कातलांची—मावली, वागेरी वा झरमें, मोर्लेगड, ओळंग, मोरपील, दुदसागर, सिद्धनाथ आनी चंद्रनाथ.

गोंयचो लोक हिन्दू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान, ह्या धर्मांचो जावन आसा. सगळे हे गोंयकर अेकामेकाच्या सांगातान अिष्टागतीन आनी मायेमोगान जियेतात.

## गोंयचो अितिहास

गोंयांत साबार राजवटक्यांनी राज्य केलें. मौर्य साम्राज्यांत गोंय आस्पावतलें. सातवाहनांनी तशें भोजांनी गोंयचेर शेक चलयलो. भोजांनी चांदर थापलें आनी तें शार आपलें राजपाटण केलें. कोंकण्या शिलाहारांनी केपेंच्या बाळ्ळींत साकून चार शेंकडे धर्नीपणान राज्य फुलयलें. म्हणपाचें

अितिहासकार सांगतात. तांचेर जैत जोडून कर्नाटकांतल्यान कदंब राजा आयले. ताणीं चंद्रपूर वा आयचें चांदर आपली राजधानी म्हणून भरभराटीवर हाडलें. उप्रांत ते व्हडल्या गोंयां गेले. तांतले तांतूंत पयलो जयकेशी राजा भौ गाजलो.

निमाणो कदंब राजा कामदेव व्हडलें गोंय सोडून चांदरा पर्थलो. पुण १३२०–आंत ताका मुसलमानांकडल्यान हार खांवची पडली. होनावरांतलो सुलतान जमाल–उद–दीन ९२ तारवां घेवून कुशावती न्हंयेंतल्यान चांदरा पावलो. नाळी–गुळयांचो वापर करून ताणें चांदर कोंसळावन उडयलें.

ह्या काळार मांडवी न्हंयचे देगेर नवें गोंयचें शार वैर येतालें. हिन्दू विजयनगर साम्राज्याच्या आसऱ्या खाल गोंय कांय काळ तिगलें. पंचवीसेक वर्सां स्वतंत्र कशें रावलें. उप्रांत १४७१–आंत बाहमनी मुसलमान सुलतानकीच्या चपक्यांत गेलें. जेन्ना बाहमनी सुलतानकीचे कुडके जाले, तेन्ना गोंय विजापूरांतल्या आदिलशाहीच्या वांट्याक पडलें. त्या काळार गोंयचें विशाल बंदर मोठ्या वेपार–धंद्यांत तरतरतालें.

१५१० वर्सांतल्या फेवरेरांत पुर्तुगेज फुडारी आफोंस द आल्बुकेर्कीन गोंय हातासून घेतलें. ताका विजयनगरच्या तिमय्यान हे खातीर आधार दिलो. मुसलमान फौज गोंय सोडून पळून गेली. तेन्ना आल्बुकेर्कीक गोंयांत हुनहुनीत येवकार मेळ्ळो.

पुण त्याच वर्साच्या माय म्हयन्यांत आदिलशाही फौजीन गोंयचेर परत घुरी घाली. पुर्तुगेजांक धांवडावन धल्ले. पुर्तुगेज भायर सरून गेले पुण वोगी बसले नांत. रातीचे दीस करून ताणीं घटमूट तयारी केली. आल्बुकेर्कीन परत अेक फावट गोंयचेर सगळ्या तोलान घुरी घाली. गोंय तांच्या हातांत सामकें गळून पडलें.

पुर्तुगेजां आदीं गोंयांत क्रिस्ती धर्म पाविल्लो. तरी पुर्तुगेज आयल्या उप्रांतूच त्या धर्माचो हांगा मोव्या प्रमाणांन प्रसार जालो. गांवां-गांवांचें क्रिस्तीकरण जांवक लागलें. तरीय हे क्रिस्तांव जाल्ले लोक आदल्या हिन्दू धर्मांतले आचार-विचार मानताले. अशें आसून, ह्या क्रिस्तांवांक ख्यास्त लांवचे खातीर गोंयांत १५६०-अांत अिंकिझिसांव स्थापलें. असली संस्था पयली अेवरोपांतल्या अिश्पान्यांक थापिल्ली. गोंयांत ती १५६०-अांत आयली.

अिंकिझिसांव म्हणचें हरशीं फकत चवकशी मंडळ पुण ही संस्था नीट धर्मावटेन-आड वेतल्या हिन्दूंक तशी क्रिस्तांवांक भौच त्रास दिताली. हिन्दू आसल्यार, चाबकां मारपाचें फरमा-यताली वा गांवां-भायर करताली. क्रिस्तांव आसल्यार, खुर्सार मारून उज्या-आगव्यांत हुलपायताली. ती संस्था १८१२-अांत सासणाक सोंपली.

सोळाव्या शेंकड्याच्या मदल्यार उदेंतीची पुर्तुगेज सत्ता तेंगशेर पाविल्ली. ह्या साम्राज्याचें मुखेल केंद्र गोंय जावन आसलें. हांगा व्हिसरै वा पातशायचो प्रतिनिधी राजदरबार भरतालो. ताच्या हाता सकल हेर वाठारांतले गवर्नर वा राज्यपाल आसले.

गोंयकारांनी पुर्तुगेजांचें जूं सोंपेपणीं आपलें केलें ना. तांचे आड ते उठाव, बंड्डां करीत रावले. तांचे–आड पयलो कट काशु नांवांच्या क्रिस्तांव पाद्रीन केलो. हें पुर्तुगेज जिखे उप्रांत रोखडेंच १५५४ वर्सा घडलें. आदिलशाहीचे मदतीन तो गोंय पुर्तुगेजांकडल्यान पर्थें घेवपाक सोदतालो. पुण तो कट फिस्कटलो.

१५८८–आंत कुंकळी, वेरोडा, असोळणें, वेळ्ळी आनी आंबेली गांवांनी उठाव जालो. धर्म–बदल करूंक आयिल्ल्या पाद्रींक लोकांनी मारून उडयले. सरकारान गुन्यांवकारांक कडक ख्यास्त भोगयली. तांचे गांव जप्त केले.

१७८७ वर्सा पुर्तुगेज सत्ते–आड गोंयकार क्रिस्तांव पाद्रींचो दुसरो कट मोठ्या प्रमाणान जालो. पाद्री कौत आनी गोंसालविश कटाचे सुत्रादार आसले. तांकां कांदोळेच्या पिंटो घराण्यान दुडवांचो आनी हेर आदार दिल्लो. देखून ह्या कटाक पिंटोंचो कट म्हणपांत आयलां. गोंयकार पाद्रींक आनी लस्करी अधिकाऱ्यांक कारभारांतल्या उंचल्या जाग्यांचेर बडती दिनांत म्हणपाची तांची तक्रार आसली. ताणीं पुर्तुगेजांक गोंयच्यान धांवडांवचें योवजिल्लें. गोंयचें स्वतंत्र लोकराज्य घडचें, हें तांच्या मनांत आसलें. हे खातीर तांकां म्हैसुरच्या टिपू सुलतानाची मदत आसली. पुण पाड्या नशीबान तांचो गूठ फुटलो. कटवाले सांपडले. ४७ कटवाल्यां भितर १७ पाद्री आनी ७ लस्करी अधिकारी आस्पावताले. कांय जाणांक देसा–भायरे केले. चडशांक

धरून, घोड्यांच्या शेंपड्यांक बांदून, शाराच्या रस्त्यांवेल्यान ओडीत व्हेले. तांचे हात कातल्ले. निमाणेकडेन तांकां वळवळ्यांनीं गोळार माल्ले.

१८२२–आंत पुर्तुगेज संवसदे ( पार्लमेंटा ) खातीर सर्व–वेंचणुको जाल्यो. तेन्ना गोंयचे पयले खासदार म्हणून बेर्नार्दबाब पेरिश द सील्व संवसदेंत गेल्ले. १८३३–आंत पुर्तुगेज राजांनी गोंयचे राजपाल म्हणून तांची नेमणूक केली. गोंयच्या राजकारभारांत ताणी रोखडींच सुधारणां करपाक सुरू केलीं. तीं हांगासल्ल्या अेवरोपी आनी मिस्तीसांक मानोवलीं नांत. देखून ताणीं राजपालां आड उठाव करून तांकां सत्तेवेले निखळायले. पेरिश द सील्व मुंबय आनी थंयच्यान दामांवांक पळून गेले. थंय ताणी तात्पुरतो सरकार घडलो. दामांव आनी दाद्रा नगर–हवेलीचो दोन वर्सां धनीपणान कारभार चलयलो. आप–वावुरप्यांची फौज उबाल्ली. आनी तांकां घेवन तारवांचेर बसून गोंय मेकळें करपाक भायर सल्ले. पुण वादळा–मोडान तांची तारवां भोंवऱ्याक सांपडून कावार जालीं.

१८९२–आंत पुर्तुगालाखाल–आशिल्ल्या ब्राझिल देसाक स्वतंत्रताय मेळ्ळी. तेन्ना, तशी गोंयांकूय स्वतंत्रताय मेळची म्हणपाची मागणी पुर्तुगालचे लोक–सभेंत सादली. तांतले गोंयकार खासदार पाद्री जेरेमियश मास्कारेन्यसांनी ही मागणी केल्ली. त्या काळार ही भौ धाडशी मागणी आसली, जिचे

वर्वी ते त्रासांत पडूं येताले. पुण ते धिरिष्ट आनी अभिमानी गोंयकार आसले. कांयच वायट घडलेंना. तांचे मागणेकूय फळ आयलेना.

त्याच वर्सा व्हडले वीर जे दिपाजी राणे, हांची बंडां सुरू जालीं. सत्तरींतलें नानुजचें कोट ताणी आपल्या ताब्यांत घेतलें. तें आपलें लस्करी केंद्र केलें. हें झूज सात वर्सां चल्लें. निमाणेकडेन तांचे कडेन फिर्ग्यांक सवस्तकायेचो करार करचो पडलो. शेतकामत–करा विशीं आनी तांचे जमीनी संबंदान केल्ल्यो तांच्यो मागण्यो फिर्ग्यांनी मानून घेतल्यो. त्या आदीं १७९९–आंत तांच्याच घराण्याच्या मुखेलपणाखाल पुर्तुगेजां आड मोटी चळवळ सुरू जाल्ली.

१८५९–आंत बेर्नार्दबाव फ्रांसीस्क द कोस्तान मडगांवां ‘ अु उलत्रमार ’ नांवांचें पुर्तुगेजींत साताळें पत्र सुरू केलें. १८६१–आंत साष्टीच्या ओळ्ळें गांवांतल्यान आनीक अेक साताळें छापून येवूंक लागलें. ताचें नांव ‘ अ अिंदया पुर्तुगेजा.’ ताचे संपादपी मानवेल लोरेंन्स द मिरांद आसले. तांच्या मर्णा उप्रांत व्हड फुडारी डॉ. जुझे अिनास द लोयोलांनी तांची सुवात घेतली. ह्या दोनूय नेमाळ्यांनी स्वताची अशी विचारीक परंपरा तयार केली. तांतूंत ऊंचा पांवड्याचें साबार विशयांचेर गोंयकार विचारवन्ताचें बरोवप येतालें. गोंयच्या सर्वांगीं विकासा खातीर ते पोटतिडकीन वावुरताले.

ह्या दोनूय नेमाळ्यां भोंवतणी गोंयांत तेन्ना दोन राजकी पक्षांनी आंग घेतलें. एक ' उलत्रमारीन ' म्हळ्यार दर्या-पलतडचो जो सदांच सरकारा वटेन वावुल्लो. दुसरो म्हळ्यार ' पार्तीद अिंदयानु ' वा ' पोपुलार '; हाचो अर्थ म्हणचें लोक पक्ष वा भारतीय पक्ष. तो विरोधी पंगड आसलो. तेन्नाचे गोंयचे व्हडले गिन्यांनी ह्या पक्षाचे खांबे आसले.

१८६१–अंत विरोधी लोक पक्षाच्या पालवान सरकारी उमेदवारा–आड डॉ. फ्रांसीश्क लुअीज गोमिश खासदार म्हणून वेंचून आयले. गोंयच्या प्रस्नांचो आवाज ताणी लिजबोआचे लोकसभेंत नेटान गाजयलो. हे पाटांगडे गोंयकार नामनेचे पत्रकार, अर्थशास्त्री, समाज–सुधारक, कादंबरीकार आनी देसभक्त म्हण अेव्ररोपभर भौवूच लकलकले. फ्रेंच तशे अिंग्लीश अर्थशास्त्री गिन्यान्यांनी त्या काळार तांकां उखलून धल्ले. तांकां साबार अंतराष्ट्रीक मंडळांचे वांगडी म्हणून वेंचून दिले.

१८६९–वर्सा गोंयच्या कष्टी लोकांचो सुस्कारो कुष्टोबान सभेमाजार पर्गट केलो. कुष्टोबा, हें अेका क्रिस्तांव रेंद्राचे लोवकीक नांव. ताणे परकी सत्ते आड सतत मार–पळ चळवळ चालू दवल्ली. निमाणेकडेन ताका पुलिसेन फारान माल्लो.

गोंयांत जाल्ले सर्व–वेंचणुकेंत गोमिसां उप्रांत नामनेचे गोंयकार बरोवपी क्रिस्तोवांव पिन्टो विरोधी लोकपक्षाच्या पालवान खासदार म्हणून वेंचून आयले. थोड्याच काळान

पुर्तुगालची लोकसभा विर्गळ्ळी. तेन्ना नव्यान वेंचणुको जावच्यो आसल्यो. त्या वेळार 'उलत्रमारीन' पक्षान आडकां–नाडकां केलीं. ब्रांदांव नांवाच्या अेवरोपी उमेदवाराक आडवाटेन वेंचून दिलो. लोक पक्षान लोकांचीं मतां घेवून क्रिस्तोवांव बाब पिन्टोंक पर्थे वेंचून हाडले. अशें आसून, पुर्तुगालचे सर्वोच न्याय–सभेन वेंचणूक बाद जाली म्हणपाचें थारायलें. सरकारान नगरपालिकेय विर्गळायल्यो आनी नव्यान वेंचणूको थारायल्यो.

साश्टी नगरपालिकेच्यो वेंचणूको १८९०–आंतल्या अेकवीस सेतेंब्राक दवरिल्ल्यो. अवचित सरकारान फर्मायलें कि मतदान अेकाच मडगांवच्या केंद्रांत जावचें. देखून सगळ्या साश्टी म्हालाचे ( तालुक्याचे ) मतदार मडगांवां जमले. लोकपक्षाच्या जायत्या तेंको–दिवप्यांक पळोवन, सरकारी आदमिस्त्रादोर घाबल्लो. लोकपक्षाच्या फुडाऱ्यांचेर ताणे चाबुक मार्ल्लें. हाका लागून लोक उचांबळ जाले. हाडिल्ले फौजीन धमकी दिली. आदमिस्त्रादोराचे ओर्दीन फौजीन लोकांचेर फार सोडले. २७ लोक आक्ताक मेले आनी पन्नाशेक दुखोवले. पुर्तुगेज सत्ते फुडें विरोध्यांचें शाणपण चलना जालें. लोक–पक्षाचे मुखेल फुडारी डॉ. जुझे अिनास द लोयोला आनी तांचे शूर भागीदार फुडारी रेक–बाब कुर्रेय आफोंस, साल्वादोर आल्वारिश, बाब बार्रेत मिरांद, जासींत–बाब आफोंस आनी जुझे–बाब लुअीज द कूंत्र आल्वारिश मुंबय पळून गेले. कित्याक तांकां धरपाचो हुकुम आयिल्लो.

डॉ. लोयोलांचें नेमाळें ‘ अ अिंदया पुर्तुगेजा ’ आनी बाब–बार्रेत मिरादाचें नेमाळें ‘ ओतीगश ’ सरकारान बंद उडयलें. तांच्या घरांचेर फौजीन धाड घालून आक्रमण केलें. गोयांत सगळ्याक धर–पकड जाली. लोकांनी पुर्तुगालच्या राजांक तारान तार धाडले.... मुंबय कवास्जी फ्रामजी अिन्सटिटयुट हॉलांत थैंचे गोंयकार जाहीर सभेंत जमले. ताणीं गोंयच्या पुर्तुगेज सरकारा आड कडकडीत निशेद पर्गटायलो.

पुर्तुगालच्या राजांचो रोखडो हुकूम आयलो. गवर्नर वाश्क गेदिसाक हुद्दयावेलो काडून उडयलो. हें लोकाचें व्हड जैत जावन आसलें. ह्या आदीं अशें केन्नाच घडूंक नाशिल्लें.

लोकपक्षाच्या फुडाऱ्यांचेर सरकारन नाका जाल्ले आरोप थापिल्ले. तांचेर न्याय–सभेंत राजद्रोहाचो खटलो भल्लो. ताचो निकाल गोंयच्या वरीष्ट न्याय–मंदिरांतल्या जुविजांनी १८९२ वर्सा दिलो. तांतूंत ते फुडारी निर्दोशी म्हणून सिद्ध जालें. तेन्ना पळून गेल्ले फुडारी खोशालभरींत गांवघरा पर्तले.

१८९५–आंत सत्तरी म्हालांतल्या शूर झुजारी दादा राण्यांच्या फुडारीपणाखाल फिर्गी आड नव्यान बंडु उप्रामलें. गोंयचे मराठा पळटनी सांगातान दादा राण्यांनी पुर्तुगेज ठाण्यांचेर हल्ले चडयले. बारदेसांत ८०० शिपाय भितर सल्ले आनी म्हापशां घुरी घाली. म्हापशेंचें ठाणें हातामून आपल्या ताब्यांत

घेतलें. गवर्नरान तांचे संविधानीक ( constitutional ) हक्क काडून उडयले. पुण ते भिडेले नांत. जड पडटकूच सरकारान पुर्तुगालाक आनीक फौज मागूंक धाडली. अेक पळटण घेवन राजपुत्र आफोंस हेंरिकिश पुर्तुगालच्यान गोंयां खासा आयले. ते बंड्ड मस्तुपाक ते नेटान वावुल्ले....

त्या आदीं वळवय आनी माशेलांत गोंयकार फौजिचें उठाव जाल्ले....

१९००-अांत शिपायांक बंड्ड करपाक खुबळायता म्हणून दादा राण्यांचेर पुर्तुगेजांनी आरोप घालो. ह्या आरोपाचेर आधारून तांकां दर्यापार केले. तांकां आफ्रिकेच्या काळ्या पाणयाक धाडले.

१९१२ वर्सा सत्तरीच्या राण्यांचें निमाणें बंड्ड जालें. ताचें मुखेलपण मोर्यो सावंत आनी झील सावंत, हांणीं केलें. तांकां सगळेकडेन लोकांचो पालव आसलो. पुण सत्तेचे पदवे मुखार ते शरण पावले. बंडवाल्यांक कैदी करून आफ्रिकेच्या काळ्या पाणयाक धाडून दिले.

मात्शे आदीं १९१० वर्सा पुर्तुगालांत राज-बदल जाल्लें. राजांक धांवडावन लोकराज्य वा रिपब्लिक स्थापन जाल्लें. सारकाय, स्वतंत्रताय आनी भावबंदाय, ह्या तीन म्हान तत्वांचेर ते लोक-राज्य आधारिल्लें. १९२६-आंत प्रति-क्रांती



जाली. तेन्ना लस्करी अधिकारी पदवेर आयले. ल्हवू ल्हवू देसाची आर्थिक मांडावळ हाताभायर वचूंक लागली. त्या गोंदळांतले सुटपा खातीर एका विद्वान अर्थशास्त्र्याची गरज पडली. तेन्ना डॉ. आंतोन्यु द ओलिव्हैर सालाझार—हांकां १९२८—आंत सरकारांत आपयले. ते दुडवां मंत्री जाले. ताणी पुर्तुगालची आर्थिक मांडावळ थाऱ्यार घातली. उप्रांत ते प्रधान मंत्री जाले.

मागीर डॉ. सालाझारांच्या मनांत हुकुमशायेचीं सपनां येवूंक लागलीं. ताणी ‘ आक्त कोलोनियाल ’ वा वसणुकांचो कायदो पर्गट केलो. गोंयच्या लोकाक स्वतंत्र राजकी आनी नागरीक हक मना केले.

ह्या नव्या कायद्या आड साष्टी--गोंयच्या चांदरच्यान लुईज द मिनेजिस ब्रागांझा रागान उठले. ते गोंयचे विधान सभेचे वेंचून आयिल्ले वांगडी आसले. तशेंच नामनेचे विचारवंत आनी पत्रकार. त्या कायद्याक ताणी कडक दूशण दिलें. विधानसभेंत ह्या कायद्या आड थाराव मांडलो. जाहीर सभा घेवून गोंयचे प्रजेचो कडकडीत विरोध पर्गटायलो. गोंयांक आप—थारावणेचो ( self-determination ) हक आसा म्हणपाचें ताणी धर्नीपणान सांगलें. ह्या बोवाळा मुखार तो कायदो फाटीं घेवून पुर्तुगेज सरकारान नवो दुरूस्त केल्लो फुडें हाडलो.

१९३०—आंत गोंयचो राष्ट्रीक कॉंग्रेस स्थापन जालो. खांपे गोंयकार फुडारी डॉ. त्रिस्तांव ब्रांगाझा कूंन्याच्या फुडा-

कारान हें मुंबयंत जालें. तांच्या भायर ॲद. व्यंकटेशराव सरदेसाय ह्या पक्षाचे पदाधिकारी आसले. भारतांत स्वतंत्रतायेची चळवळ तेन्ना नेटान चलताली. तांतूत भाग घेवपाचे उमळ-शिकेन गोंयांतूय तसली चळवळ सुरू जाली.

१९४६–आंतलो अंठरा जून भोव महत्वाचो. त्या दिसा स्वतंत्रताये चळवळीक गोंयांत नवो नेट मेळ्ळो. नांवाजते भारतीय समाजवादी फुडारी डॉ. राम मनोहर लोहिया गोंयां आयिल्ले. आपले ईश्ट देसभक्त डॉ. जुलयांव मिनेझिसांच्या साष्टीच्या असोळण्यां घरा रावूंक आयिल्ले. त्या भाग्यवंत दिसा लोहियांनी 'गोंय सोडात' म्हणपाचें फिर्ग्यांक आव्हान दिलें. ताणीं मडगांवां जाहीर सभा आपयली. आयच्या मडगांवच्या आझाद मैदानार वचपाक लोकांची तांडी पडली. थंड–शांत दिसतलें गोंयचें वातावरण खळबळीत उमाळ्यान तापलें. महात्मा गांधी आनी लोहियांच्या नांवान नारे गाजताले.... कोणे तरी भारताचो तीन–रंगी बावटो चडयलो. वत्सलाबाय किर्तनीक पुलिसेन धरून व्हेलें. तेन्ना लोक चड उचांबळ जाले.... पुलिस स्टेशनाचेर मिरोवणुको पावल्यो. लोक हाता-भायर वचूंक लागलो. तेन्ना पुलिसेन डॉ. लोहियांची मदत मागली. लोहियांनी सगळ्या लोकाक शांत केलो. धल्लेल्यांक सोडले.... उप्रांत फिर्ग्यांनी मार घालपाचें आनी दर्यापार करपाचें धोरण धल्लें. जायतो लोक बंदखणींत गेलो.... गोंयांक स्वतंत्रताय मागली देखून डॉ. त्रिस्तांव बाब्र ब्रागांझा कूंञ, पुरशोत्तम बाब काकोडकर, लक्ष्मीकांत बाब भेंब्रो, डॉ. रामा बाब

हेगडो आनी डॉ. फांचू-बाब लोयोला, हांकां चार वर्सांची कडक बंदखण फावो जाली. तांका पुर्तुगालाक धाडून दिल्ले.

तांचे फाटीं ॲड. पांडूरंग-बाब शिरोडकर, डॉ. विनायक-बाब मयेंकार, नीळकंठ-बाब कारापुरकार, गिल्येर्म-बाब द सौझ तिकलो, दत्तात्रय-बाब देशपांडे, नारायण-बाब नायक, जयवंत-बाब कुंदे आनी दिवाकर-बाब काकोडकार, हांकां बंदखणींत धाडले. तांचे उप्रांत ल्हान व्हड, कितलेशेच गोंयकार, हिन्दू तशे क्रिस्तांव, स्वतंत्रताये खातीर धीरान झुजले देखून बंदखणींत गेले.

सरकारान पुर्तुगालांतले आनी आफ्रिकेंतले सैनीक गोंयांत हाडले. तांचे कडल्यान लोकांक जायते त्रास जाले....

१९४७ वर्सा पंदरा आगोस्ताचेर, भारताक स्वतंत्रताय मेळ्ळी. ब्रिटीश भारत सोडून गेले. पुण गोंयांतले पुर्तुगेज भायर सरचे म्हळयार कान हालयना जाले. गोंय पुर्तुगालाचो अखंड भाग, ते मानताले. तांकां समजावपाक जायते प्रयत्न जाले. पुण सगळे निर्फळ.

१९५५-आतल्या पंदरा आगोस्ताक धरून गोंया-भायल्यान जमून आयिल्ले सत्याग्रही गोंयांत भितर सल्ले. तांचेर पुर्तुगेज फौजीन फार सोडले. तेन्ना तातले २२ जाण मेले आनी २२५ घायाळ जाले.



केल्ल्या मागण्यांक पुर्तुगालचे प्रधान–मंत्री डॉ. सालाझार कितेंच केल्यार आयकना जाले.

निमाणेकडेन भारताच्या सोंशिकपणाचो भार जालो. भारत सरकारान गोंय बळान घेवपाक थारायलें.... १७ देझेंब्र, १९६१, मध्यान रातीर भारतीय फौज गोंयांत भितर सल्ली. १८ देझेंब्र राती खासा गोंयचे पूत येवून बांबोळी रेडियो–स्टेशनाचेर बोंब उडयलो. तांचें नांव पिंटो दु रूझारयु आसलें. ते भारतीय वाऱ्यावेले फौजीचे वैस–मार्शल आसले. ताणी बांबोळी रेडियो स्टेशन बंद उडयलें. पुर्तुगालाक बांदून आशिल्ल्यो आमच्यो सांखळयो तोडून उडयल्यो. साडे–चारशीं वर्सांचें दावें भायर माल्लें. भारत मातेचे, खाशेले आवयचे वेंगेंत गोंय पर्थें आयलें.

गोंयचे पयले लस्करी राजपाल नायब–जनरल के. पि. कंदेथ जाले. उप्रांत टी. शिवशंकर नागरीक नायब–राजपाल जाले. सगळ्या गोंय, दामांव, दिंवांत पंचायत वेंचणुको जाल्यो. विधान–सभेक आनी लोक–सभेक सर्व–वेचणुको जाल्या उपरांत महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष भौमतान गोंयांत सत्तेर आयलो. अेकवटीत गोंयकार वा युनायटेड गोअन्स नांवाचो विरोदी पक्ष म्हणून तांचे परस उण्या मतान वेंचून आयलो. त्या पक्षाचे मुखेल फुडारी डॉ. जॅक–बाब सिकेयरा जावन आसले. दयानंद–बाब बांदोडकार, जैतिवंत म. गो. पक्षाचे मुखेली, हे गोंयचें पूत, गोंय, दामांव आनी दीव संघप्रदेसाचे पयले मुखेल मंत्री जाले. गोंयच्या फाटसार भागांचो आनी

लोकांचो विकास जांवचे हेतून ते भारीं वावुल्ले. पुण ते गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाक सोदताले. देखून तांकां हे बाबतींत चड–श्या गोंयकारांचो कडक विरोद आसलो.

१९६७ वर्सा ती अितिहासीक मतां–थारावणी ( opinion poll ) जाली. गोंय वेगळें उरचें वा महाराष्ट्रांत विलीन जावचें, हे विशीं थारावणी घेवपाक केंद्र सरकारान हें मतदान दवरिल्लें. तांतूंत घाल्ल्या मतांनी गोंयकारांनी भौमतान वेगळे रावपाक थारायलें. विलीनीकरणाक ना म्हळें.

उप्रांत जाल्ले सर्व–वेंचणुकेंत म. गो. पक्ष परतो भौमतान वेंचून आयलो. दयानन्द–बाब भायर पडल्या उप्रांत तांची धूव, शशिकला–बाय काकोडकार मुखेल मंत्री जाल्यो. अितले म्हणसर युनायटेड गोअन्स पक्ष कॉंग्रेशींत विलीन जाल्लो·

ते फुडले वेंचणुकेंत म. गो. पक्ष जिखून आयलो. विरोदी पक्ष म्हणून कॉंग्रेस आयलो. विरोदी फुडारी अनंत–बाब–नरसींव्ह नायक उर्फ बाबू नायक जाले. १९८०–आंतल्या जानेरांत जाल्ले वेंचणुकेंत डॉ. विल्फ्रेड द सौज–हांच्या येजमानकी खाल आशिल्लो कोंग्रेस पक्ष जैतिवंन्त जालो. तेन्नाच्यान आयज आमचे मुखेल मंत्री प्रतापसिंह–बाब राणे, हे जावन आसात. गोंयचो राजकारबार लोकान वेंचून दिल्ल्या प्रतिनिधींच्या सरकारा हातांत आसा. सरकारी येवजण्यो खरेपणांत हाडपाक वेग-वेगळया खात्यांनी सरकारी कर्मचारी आसात.

अशें हें आमचें माणकुलें गोंय. आमच्या सुफळ करण्यांनी आमी सुरगीं गोंयचें नांव व्हड करतलीं. कोंकणी भास आनी सरस्पत, जिचो अितिहास लांबदीक आसा, उमेदीन वेळयतलीं आनी फुलयतली. आमच्या दिसपट्ट्या वेव्हारांत आनी राजकार-भारांत कोंकणी भाशेक मानाची सुवात दितलीं. कोंकणांतल्या आमच्या लोकांक भावपणान अेकटांय हाडटलीं. तांकां आपलेच मानतलीं. तांच्या सांगातान कोंकणी स्वराज्य भोगतलीं. भारतांतल्या हेर भागांतल्या लोकांकडेन आपलेपणान वागतलीं. आमच्या भारत देसाचो व्हडलो मान राखतलीं आनी वयर काडटलीं. ह्या आमच्या भारत देसाक व्हडविकेक पावयतलीं.



बरोवप्याचे उपकार : भौ पांडुरंग-बाब भांगींक, जाणों हात-बरोवप वाचून मोलादीक सुचवण्यो केल्यो.

भौ. सदाशीव प्रभू देसायांक जाणी मुद्रितां हाड-व्हरपाक जायती थकस घेतली.

# ओलिव्हींन गोमिश

जल्म जुंव्यां ( सांतईश्तेव्हां ), गोंय, १९४३. मुळावें आनी उंचलें लिसेवाचें शिकप पुर्तुगेंजितल्यान; इंग्लेजितल्यान पणजे डोन बोस्को आनी पुणे, कर्नाटक आनी शिवाजी विद्यापिठांतल्यान-साहित्य, समाजशास्त्र, मनशास्त्र. सध्या समाजशास्त्रांत Ph. D. खातीर सोद सोंपत आयलो. गोंयच्या सरकारी सचिवालयांत भाशांतर-करपी म्हणून वावुल्ले. आकाशवाणीवेल्यान उलोवपां, रूपकां, कथा, कविता वितरायल्यांत. गोंयच्या आनी गोंयां-भायल्या खबरेपत्रां आनी नेमाळ्यांनी बरोवपां उजवाडाक आयल्यांत.

१९६९ वर्सांतले आय. ए. एस. ( I. A. S. ) परिक्षेंत वेंचून आयिल्ल्यान अ. कलेक्टर, कस्टम्स आनी सेंट्रल अेकसायज म्हणून सोलापूर, रत्नागिरी, दिल्ली सचिवालयांत आनी आतां गोंयांत केंद्र सरकाराच्या उंचल्या कारभारांत वावुरतात.

तांचीं हेर पुस्तकां :

* **डॉ. फ्रां. लु. गोमिश** – जीवितकथा ( रोमींत ) (सोंपलें)
* **पुंजायिल्ल्यो पाकळ्यो** – कवितां झेलो ( सोंपता )
  ( कला अकादमिचो पुरस्कार फाव जाल्लो )
* **मेघदूत** – काव्य रूपांतर
* **सुपुल्लो काणयां पांडुलो** – भुरग्यांक काणयों ( सोंपता )
* **मन वोडटा वोडना** – कथां घोंस
* **शकुंतला** ( रोमीत ) काणये रूपांतर

*PRINTED AT CASA J. D. FERNANDES, PANAJI